# हय सायबा

(विनोदी नाटक)

भरत रघुवीर नायक

नामी प्रकाशन
सी-१, गोल्डन हील व्यू, रेगो नगर
बांबोळी - गोंय ४०३२०२

हय सायबा
नाटक
लेखक: भरत रघुवीर नायक

प्रकाशन क्र.: २१

Hoi Saiba
Play by
Bharat Raghuvir Naik
C-1 Golden Hill View
Rego Nagar, Bambolim.
Goa 403202



पयली उजवाडावणी : २००७

उजवाडावपी: नामी प्रकाशन
सी-१, गोल्डन हील व्यू, रेगो नगर,
बांबोळी - गोंय ४०३२०२

मुखचित्र: नामीलो

अक्षर जुळवणी: कलाकृती,
मधूबन कॉम्प्लेक्स, तामडी माती, सांत ईनेज,
पणजी - गोंय. फोन: २४२६५२६

मोल : २५ रु.

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या कोंकणी नाटक/तियात्र मांड येवजणेखाला छापलां.

"हय सायबा" ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग 'श्रीराम प्रसादीक नाट्यमंडळ करमळें केरी, फोंडा- गोवा' हे संस्थेन मंगळार ता. २७ मार्च २००७ ह्या दिसा रातच्या १०.३० वरांचेर करमळें -केरी हांगा श्रीराम देवस्थानाचे माचयेर रामजल्म उत्सवाच्या निमतान सादर केलो.

पयल्या प्रयोगाचे कलाकार

| | | |
|---|---|---|
| मधू | : | रुपेश चंद्रकांत नाईक |
| रमा | : | रसिका विनायक गावडे |
| दिना | : | उमेश चंद्रकांत गावडे |
| वैनी | : | प्रितम प्रितिदास गावडे |
| दोतोर | : | समीर चंद्रकांत गावडे |
| सनी | : | निर्गोश चंद्रकांत गावडे |
| आनंद | : | दिनालो शेणिल्लो चलो |

| | |
|---|---|
| दिग्दर्शक | : दामोदर मराठे |
| नेपथ्य, रंगवण, भेसवण | : चंदू प्रियोळकार |
| आवाज येवजण | : चंद्रकांत ल. केरकार |
| सुत्रधार | : रुपेश नाईक |



पत्तो: सी-१, गोल्डन हील व्यू, रेगो नगर, बांबोळी - गोंय ४०३२०२

# उपकार

कोंकणी नाटकांचे प्रयोग उत्सवाच्या निमतान आतां गांवागांवांनी जावंक लागल्यात. नाटकाचीं पुस्तकांच उणीं आशिल्ल्यान जायतेकडेन तींच तींच नाटकां करचीं पडटात. हे लक्षांत धरून सादीं सुटसुटीत नाटकां बरोवपाचें काम हांवें सुरू केल्लें. तातुंतलें "हय सायबा" हें पांचवें नाटक.

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या नाटकां उजवाडावपाचे खाशेले येवजणेखाला हें नाटक वेंचून आयलें आनी पुस्तक रुपान छापून दिवपाची जापसालकी हांवें आपणायली. पूण प्रयोग करिनासतना नाटक छापप म्हज्या मनाक पटना जालें. इतले मजगती प्रियोळ-करमळें हांगा सावन श्री. रुपेश नायक नाटक सोदीत म्हज्या म्हऱ्यांत पावलो. हांवें ताका हातबरप दिलें आनी एका म्हयन्याभितर येसायो मारून ताणे नाटक उबें केलें. २७/३/२००७ ह्या दिसा रामनमीच्या म्हुर्तार श्रीरामाच्या देवळांत तांणी ताचो पयलो प्रयोग केलो. म्हजो इश्ट कवी प्रकाश द. नायक आनी तांची घरकान्न सौ. रेखा नायक हांकां हांवें प्रयोग पळोवपाक खाशेलें आमंत्रण दिल्लें. प्रयोग सुंदर जालो तरी उत्सवी रंगमाची मतींत दवरून प्रयोगांत सोपेपण हाडपाखातीर तांणी कांय सुचोवण्यो केल्यो. नाट्यकर्मी श्रीधर कामत बांबोळकार हांणी लेगीत हातबरप वाचून नेपथ्याविशीं सुचोवणी केल्ली. तशे बदल करप गरजेचेंच आसा अशें म्हाका दिशिल्ल्यान नाटक पुस्तक रुपान तुमच्या हातांत दिवचे आदीं फावो तीं सुदारणां केलीं.

हें नाटक छापून हाडपाक गोवा कोंकणी अकादेमीचो बरोच आदार मेळ्ळो. नाटक माचयेर हाडून "श्रीराम प्रासादीक नाट्यमंडळ, करमळें - केरी, फोंडें गोंय" हे संस्थेन म्हाका उपकारांत दवरलो, आनी चुको दाखोवन प्रकाश-रेखान तशेंच श्रीधरान नाटकांत आनीक रंग भरलो. ह्या सगळ्यांचो हांव उपकारी आसां.

भरत नायक

# पयलो अंक

(गांवगिऱ्या वाठारांतलें दिनाबाबलें ल्हानशें-घर. कडेकसो देवाचो देवारो आसा. दिना देवाची पुजा करता, आनी वैनी, दिनाची घरकान्न भेंडार हात दवरून ताका पळयता. दिना पुजा करता करता उलयता. )

दिना : आयज बाजारांत नुस्तें खूब आयलां दिसता. सवाय आसतलें.

वैनी : पुजा करताना मर्दींच नुस्त्याचो उगडास कित्याक?

दिना : तो पळय मधू घेवन वता नुस्तें. म्हाका जनेलांतल्यांन दिसता.

वैनी : तुमचें लक्ष भायर कित्याक? पुजा देवाची चल्ल्या काय नुस्त्याची?

दिना : आगो पूण दोळ्यांमुखार नुस्तें दिसता जाल्यार म्हजो गुन्याव? तें नुस्तें अश्शे दोळे करून म्हाका पळयता. खा म्हाका, खा म्हाका म्हण्टा आनी तो मधू- तो मधू मुद्दम म्हाका चाळोवपाक गांथन हालयत चलता. मधू... मेळ तूं. तुजी गांथनूच काडून...

वैनी : लक्ष देवाकडेंच दवरून पुजा करात म्हण्टकच दुसरें तिसरें कांयच दिसचेंना.

दिना : आठ दीस नुस्तें खालेंना हांवें. लक्ष लागतलें कशें! खंयच्या देवान सांगलां गो नुसतें खावंक जायना म्हूण? पुजा करून जातकच कितेंय खाल्यार जाता.

वैनी : कांयच खावचें न्हय. उपाशी पोटार पुजा केल्ली देवाक सारकी पावता. पुजा जातकच फकत निवेद्य खावन दीस काडचो.

दिना : आनी मेलों जाल्यार !

वैनी : थुमेकाल ! कितेंय अभद्र उलोव नाकात. प्रसाद खाल्यार म्हूण मनीस मरता खंय! चला... चला निवेद्य दाखयात.

दिना : कितें हाडलां निवेद्याक ?

वैनी : खोल्यार पंचखाद दवरल्या.

दिना : पंचखाद खावन पोट भरता ! (खोलो उबारून देवा म्हऱ्यांत दवरता. सनी गडबडीन येता. ताच्या हातांत क्रिकेटचें बॅट आसा.)

सनी : वैनी वैनी (हात फुडें करून) उडय

वैनी : कितें उडय म्हणटा रे सनी?

सनी : प्रसाद वैनी. पुजा जाली तुमची. हांयें घंटा आयकल्या.

वैनी : आरे, देवाचो प्रसाद मरे तो. उडय म्हणनात. दी म्हण.

सनी : दी बेगीन. (प्रसाद हातार पडटांच तोंडांत उडयता आनी धांवपाक)

वैनी : आरे पांया तरी पड मरे देवाक.

(सनी परतून येता. बेगिबेगीन पांया पडटा आनी धांवपाक दिना ताका आडायता.)

दिना : आरे राव रे.... सनी, मात्सो बाजारांत वचून येता?

सनी : हांव वचना. म्हाका टायम ना. हांव पापाक सोदूंक वयतां. हांगा येवंकना मरे तो?

दिना : ना. आतांच गांथन हालयत चलतालो मरे तो.

सनी : घरा गेलो? (धांवता)

वैनी : हो म्हयनो कसलो तें जाणात मू तुमी? म्हयनो सोपसर नुस्तें खावंक मेळचेंना.

दिना : मधू खाता तें?

वैनी : ताचें म्हाका नाका. तो सोरो पिता. तुमी पितात?

दिना : केन्ना केन्नाय तूं आवयगेर वता तेन्ना-

वैनी : कितें?

दिना : पियेनसो दिसता... पूण हांव पियेना.

वैनी : पियेनसो दिसपूच म्हळ्यार पाप. वर्सांतल्यान एक म्हयनो नुस्त्याबगर रावू नज तुमच्यानी? म्हयनो सोपतकच हांव तुमकां बरें नुस्तें तळून घालतलें.

दिना : आठ दीस काडले मगो हांवें नुस्त्याबगर. म्हयनो सोंपता म्हणसर सुकून सुकून बाळो जातलों मगो हांव.

वैनी : कांय जायना बाळो बिळो. तो शामळू भट आयुष्यभर नुस्तें खायना. तरी तो कसो आसा पळयला मू? तुमचेपरस दुपेटीन.

दिना : तो ताक धंय खावन मोठो जाता. हांव नुस्तें खावन मोठो

जातलों.

वैनी : तुमची ती लेत्रादगिरी म्हाका नाका. हांव रांदून वाडटलें तेन्नाच नुस्तें खातले. कळ्ळें?

दिना : आवयस! म्हज्यान सोसूंक जायना. आयज म्हाका नुस्तें जायच. मधू.... म्हाका नुस्तें हाडून दी. हांव खातलों. अशेंच खातलों, चाबडावन खातलों, तळून खातलों, भाजून खातलों, हरवेंच खातलों....

वैनी : अशें पिशाबशेन कितें करतात?

दिना : पिशेंच लागतलें म्हाका. आयच्या दिसाभितर नुस्तें खायना जाल्यार पिसो जातलों हांव. आवयस! पोटांत गांठ पडली दिसता! मांजरां रडलेल्यावरी म्याँव म्याँव जाता. नुस्तें घातल्याबगर वगी रावचींनात तीं.

वैनी : नुस्त्याचो मसालो मारून बरो रोस करतां. सामको हुमणाभशेन लागता.

दिना : नुस्तें तें नुस्तें ! तें खाल्ल्याबगर गांठ सुटचीना. त्याच रोसांत कडेकशीं दोन भोपशीं उडय.

वैनी : शी! तशें केल्यार तो नुस्त्या रोस जालो.

दिना : दोन तांतयां तरी सोड मगो त्या रोसांत. आतां तांतयां येतात तीं शिवराक खंय.

वैनी : देंठ नाशिल्लें कसलेंच फळ देवाक आवडना.

दिना : आगो तूं खंय जाणा! खुबे, तिसऱ्यो, शिणाण्यो, कालवां, हांकां कांटे आसनात. तीं सामकीं शिवराक. धव्यो वेल्ल्यो पळयल्या मगो कितल्यो नितळ आनी सुंदर आसतात त्यो? सामक्यो सर्गांतल्यो अप्सरा कशो. त्यो सामक्यो सवळ्यो, तुजेबशेन.

वैनी : (कानार हात दवरून) शी..शी..शी.. आयकूं नज गे बाये. असलें आयकप म्हळ्यार लेगीत पाप.

दिना : बरें! मसालो मारून रोस करता मगो तूं? कर. आनी तळटलें कितें? बरेशें कितेंय नुस्त्याभशेन दिसता तें तळ.

वैनी : नुस्त्याभशेन दिसतात झाडाचीं पानां. तीं तळूं? बारीक बारीक

पानां म्हळ्यार करबट तळूं, काय मोठें अडुशाचें पान- बांगडो तळूं, काय हळडीचें पान विस्वण तळूं?

दिना : पानां खावपाक आमी कितें गोरवां?

वैनी : मोठ्ठ्या बटाट्याचीं कापां तळूं? तीं सारकीं विस्वणाचीं पोस्तां कशीं दिसतात.

दिना : उपकारता. पूण सगळीं विस्वणाची पोस्तां करू नाका. थोडीं नुस्त्याच्या आकारान कातर.

वैनी : म्हणचें?

दिना : म्हणचें नुस्त्याबशेन दिसतलीं अशीं कातर. एक एक तळिल्लें काप धोडयारो, वेल्ली कशी दिसुंदी. तुजेकडेन जायना जाल्यार हांव कातरून दितां.

वैनी : जातलें म्हजेकडेन. पळयात कशें तळून घालतां. एकदां खाल्यार तेंच कर म्हणटले. नुस्तें नाकाच म्हणटले तुमी. (भितर वता)

दिना : बरी दुरात काडली म्हूण पितळीचें भांगर जाता! भांगर तें भांगर. देवा-देवा...जीव वचत म्हूण भंय. देवा, आतां तूंच दाखय रे म्हाका वाट. तूंच वाटाय म्हाका ह्या संकटांतल्यान... (मधू येता. पिवंकना.)

मधू : दिनाबाब, कितें जालें?

दिना : मधू ! तूं सकाळीफुडें हांगा? तुका तुजो पूत सोदता मरे.

मधू : कित्याक आपयल्लो?

दिना : हांवें तुका केन्ना आपयला?

मधू : फूस्स ! तुयें म्हाका जनेलांतल्यान उलो मारून आपयला मरे. नुस्तें घरांत उडयलें आनी तसोच फाटल्या पांयांनी परतलों. शेजारी मरे आमी. एकमेकाक पावोंक जाये.

दिना : आरे मधू. हांवें उलो मारूंक नासलो रे. हिका दाखयतालों, मधू नुस्तें घेवन वता म्हूण.. मधू, तुजी ती गांथन बरी आसली.

मधू : दुडूय बरे दिल्यात हांयें. म्हाका आपोवंक ना मरे तुवें? हांव वयतां तर, फूस्स !

दिना : आतां खंय चल्लो तर तूं?

मधू : वखद घेवंक

दिना : तूं दिसभर वखद घेयत आसता कितें रे?

मधू : दिसभर घेतल्यारूच हांव सारको आसतां.

दिना : आतां घेतलां तर तुवें !

मधू : फूस्स ! घेयना जाल्यार पासून म्हाजें तोंड आतां घेतलेल्याबशेन दिसता.

दिना : मधूबाब, (जतनायेन) तुवें आतां नुस्तें हाडलां तांतूंत बारीकशीं दोन भोपशीं आसतलीं?

मधू : बारीक? दिनाबाब, हांव बारीक नुस्तें केन्ना खातां? फूस्स! तसलें बारीक नुस्तें हांव मांजराक घालतां. तुका जायें आसलें?

दिना : दोन भोपशीं जाय आसलीं.

मधू : आसतलीं. आसतलीं. आमचें मांजर मोठें मोठें सोदून खाता. बारीक सांडटा. तें मागीर तुमचो बुकलो येवन खाता. खांवदी-खांवदी. हांव कांय म्हणना रे. पूण दिनाबाब हांव तुका सांगतां. म्हाजें नुस्तें खावप मोठें.
(सनी येता)

सनी : पप्पा, खंय भोंवता रे तूं? हांव तुका चारूय बारांनी सोदून येयलों.

मधू : कित्याक रे पुता, कितें जालें?

सनी : तुजो मोबायल वाजता मरे घराकडें. हांगा हाडूं?

मधू : आरे, मोबायल म्हज्या गळ्यांतलो कोणे काडलो? चल-चल घेवन यो. (सनी वता)

दिना : हुशार आं तुजो चेडो. मोबायल वाजता म्हूण सांगापाक सगलीं बारीं भोंवलो.

मधू : सायनटीस जातलो तो. म्हाका सामको भिता.

दिना : तें कळटाच. मधू.... विचारतां म्हूण रागार जावनाका आं!

मधू : इचार रे दिनाबाब. शेजारी तूं म्हाजो.

दिना : मधू... इतलो पयसो तूं खंयचो मोडटा?

मधू : खंयचो मोडटा म्हणचें?

दिना : तूं काय कामधंदो करना. बायल तुजी घराच आसता. सनी शिकता, इतलो सगळो खर्च करपाक तुकां दुडू दिता कोण?

मधू : म्हाका दुडू देव दिता.

दिना : कितें म्हटलें? देव तुका दुडू दिता?

मधू : हय रे दिनाबाब. देव दिता आनी सोरेकार नाडटा. देव दिता, नुस्तेकान्न नाडटा. देव दिता- दोतोर नाडटा. नाडूं. कितलोय नाडलो म्हूण हांव पोशार जावंक पडलां?

दिना : आरे पूण देव तुका कशे दिता रे?

मधू : तुका आजून खबर ना दिसता. फूस्स! म्हाजी गजाल फामाद मरे. दिनाबाब, हांव सादो मनीस न्हू. म्हाका गांवचो येदो येदो पोरांटो वळखता. तुका कोण वळखता? फूस्स !

दिना : मधू... तूं देवाची पुजा करता?

मधू : म्हाजी बायल करता. हांव पांया पडटां आनी उपकार आठयतां कारण तोच दिता म्हाका म्हयन्याक पांच हजार रूपया. तेका पांया पडचोंना जाल्यार कोणाक पडटलों?
(सनी मोबायल घेवन येता)

सनी : पप्पा, घे तुजो मोबायल (मधूच्या गळ्यांत घालता.)... पप्पा, वदळ हांव तुका बार्रार सोदूंक गेल्लों न्हय, तेन्ना तो लोरेन्स म्हाका सोरो दितालो. फुकटूच पी म्हणटालो.

मधू : तो लोरेन्स बारवालो?

सनी : हय पप्पा.

मधू : मागीर तुवें कितें केलें?

सनी : हांयें सांगले, हांव आजून ल्हान आसां. (भायर धावता.)

मधू : पळयलें मरे कितलो हुशार तो.

दिना : हयतर. त्या लोरेन्साक एका उतरान चूप केलो ताणे.
पूण मधू... तो तुका म्हयन्याक पांच हजार रुपया दिता ते खंयच्यान?

मधू : खंयच्यान म्हणचें?

दिना : म्हणचें तुज्या हातांत हाडून दिता काय सोर्त बीर्त लायता रे

तुका.

धू : च्ये ! म्हयन्याक पांच हजार तो सामके बँकेत घालता एकाऊंटाचेर.

ना : म्हाका समजुंकना. मात्शें समजावन सांग मरे मधू.

धू : तुका सांगू? हांव कितें पिसो? ही गजाल दुसऱ्याक सांगपाची? फूस्स !

ना : हरशींच सांग रे तूं. एक उमळशीक म्हणून विचारतां.

धू : आयक.... दिनाबाब... देवान म्हाका एक दोंगर दिलो.

ना : दोंगोर?

धू : आता दोंगर म्हणचें कितें तें सांगू?

ना : कसलो दोंगोर रे?

धू : आरे दोंगर ! तूं हागोंक वयता तसलो. हां, तर तो दोंगर सरकारान इकतो घेतलो. आनी म्हाका दुडू दिले.

ना : तुजो दोंगर आसलो? म्हाका तुवें केन्ना सांगलेंना मरे.

धू : म्हाका तरी खंय खबर आसली? हांवूच नकळो तो दोंगोर म्हाज्या नांवार आसलो म्हूण. हांव थंयचीं आडसरां, काजू, आंबे, पणस चोरून हाडटालों आनी इकून सोरो पितालों. एक दीस सरकारी मनीस येयले,म्हणूक लागले- हो तुजो दोंगर सरकाराक जावो. हांगा सायन मार आनी हे इतले लाख तुका घे. हांयें एक अशी अशी करून सायन पेटयली आनी घेतले. रमाच्या नावार थोडे लाख फिक्साक दवल्ले. सनीच्या नांवार थोडे लाख दवल्ले आनी उल्लेले सगळे लाख म्हाज्या नांवार. सगळ्यांक म्हयन्या म्हयन्या ज्यूर मेळटा. म्हाका एकट्याक पांच हजार. ते हांव नुस्त्याक आनी सोऱ्याक कडयतां. तिंचो खर्च तीं करतात. फूस्स !

दिना : म्हणचें देव तुका दिता ते तूं नुस्तेकान्नीक आनी बारवाल्याक वांटून सोपयता. बायल तुजी वखदांक घालता आनी पूत तीनतीन वर्सां फेल जावन इश्कोलांक घालता.

मधू : तो फकत ज्यूर. मुदलचे पयशे सामके सुगूर आसात. हांव मेलों म्हणटकच ते सगळे म्हाजे बायलेकूच मेळटले. देखून हांव

कितलोय पिल्यार ती वगीच रावता आनी म्हाजो मार खाता.

दिना : मधू... देव तुका प्रसन्न जालो रे. ताणे तुका धादोशी केलो. हांव इतलो शिवराक रावून, इतली पुजा करून म्हजी केन्नाच काकूत आयलीना ताका.

मधू : तुजो विस्वास ना.

दिना : कितें?

मधू : तुजो भावार्थ ना. दिनाबाब, तूं पुजा करता आनी नुस्त्याचो उगडास काडटा. जनेलांतल्यान म्हाजे गांथनीक पळयता. आरे दिनाबाब, सोरो पी नाजाल्यार नुस्तें खा. पूण देवाचें करताना भावार्थान कर. हांव पांया पडटाना कोणाक पयना. दोळे धांपतां. म्हाका देवान कितें उणें केलां? पोटभर जेवंक दिलां. पोटभर पिवंक दिलां. फूस्स!

दिना : मधू, खावंक जेवंक भरपूर मेळटा म्हणून तुजें लक्ष देवाकडें लागता. आठ दीस हावें नुस्तें खालेंना. खंयच लक्ष लागना. न्हिदल्यार न्हीद पडना, जेवल्यार जेवंक चलना. आमगेलेचो दोळो चुकोवन म्हाका दोन तळ्ळेले कुडके हाडून दी रे मधू. प्लीज. ते खांवन हांव भावार्थान पुजा करतलों (मधू रडटा) रडटा कित्याक?

मधू : दिनाबाब, फूस्स! म्हाज्या शेजाऱ्याक असले दीस येवप! तुजे हाल म्हज्यान पळोव नज दिना. पळोव नज रे ! हांव आतांच रमाक ओर्द सोडटां. दिनागेर चार तळ्ळेले कुडले धाडून दी म्हुणोन (उलो मारुन) रमादेवी .... ये रमा...

दिना : आरे... आरे... मधू, बायलेक सांगू नाका. आनी धाडुनूय दिव नाका. तूंच मात्सो कोणाक कळनासतना ल्हवूच हाडून म्हजेकडेन दी.

मधू : हां.... हां... म्हणचें वैनीक कळूंक जायना.

दिना : आरे हळू उलय रे.

मधू : (ल्हवू) तळ्ळेले कुडके हांवूच घेवन येतां. सोमती एक बाटली हाडटां. बल्कावांत बसोन बरें पेटोवया.

दिना : नाका सायबा ! बाटली नाका रे.

मधू : दिनाबाब, तूं कांयच भिव नाका. हांव शिकयतां तुका पिवपाक.

दिना : नाका रे सायबा. सांगलां तितलेंच कर.

मधू : पयशांक लागून फाटीं सरू नाका. हांव तुका फुकट घालतां.

दिना : नाका रे मधू. आयज मात्शें हेंच काम कर पळोवया.

मधू : ब... रें! हांव हाडून दितां न्हय तुका... तूं कांयच भिव नाका. एकमेकांक पावना जाल्यार शेजारी कसले तर आमी ! (मोबायल वाजता)

दिना : तुजें गळ्यांतलें वाजलें.

मधू : (कानाक लावन) उलय... कोण? रवी रे? वदळ तूंच करतालो किंतें?.... कित्याक रे? किंतें जालें? ...... हां हां येतां.... तुका आमी कशे विसरतले?.... मात्सो दिनाकडे उलोवपाक रावलों म्हणून उशीर जालो.... पांच मिनटां भितर पावतां. (मोबायल बंद करता) बरें रे दिना, वयतां हांव.

दिना : खंय चल्लो रे मधू? कोणाचो फोन?

मधू : रवीचो. तो वाट पळयता म्हाजी.

दिना : कोण रवी रे ? मिनिस्टर?

मधू : मिनिस्टर न्हू रे.... बारवालो. (मधू वता)

दिना : (देवाक) आब्बा ! मोठो मरे तूं! त्या बेबद्या मधूक इतलें दिवप? छप्पर फाडके? आनी हांवें किंतें वायट केलां? (रडवो जावन) त्या मधूक लाखांनी दिले आनी म्हाका शेंकड्यानीय दिलेंना... इतले दोंगर आसात तुजे. ताका दिला तसो म्हज्या नांवार एक दोंगर कर मरे देवा. हां बेबद्याकूच दिता मरे तूं? जाल्यार सोरो लेगीत पिवपाची तयारी आसा म्हजी. पिवं? सांग. फुकट मेळटा म्हाका. आयजूच सुरू करतां. करूं?(वैनी येता.)

वैनी : किंतें विचारतात ताका? किंतें सुरू करू काय विचारतात? किंतेंय सुरू करपाचें मनांत आसल्यार ताच्या नांवान सुरू करात. विचारू नाकात. सांगात ताका आनी सुरू करात.

दिना : करू मगो?

वैनी : हय. देवाचें नांव घेयात आनी करात सुरू.

दिना : तुजो प्रसाद लागलो मगो. आतां करतांच तर सुरू

वैनी : कसलो धंदो करूंक सोदतात?

दिना : आगो धंदो न्हय. आतां सोरो सुरू करतां सोरो.

वैनी : सोऱ्याचें बार घालतात?

दिना : आगो सोरो पिवपाक सुरू करतां हांव.

वैनी : कितें म्हटलें? आतां तुमी सोरो पिवंक लागतले? त्या मधून भल्लां दिसता कानांत तुमच्या. येवंदी ताका. ताचे पयली दोके मोडटां. पिशें बी लागूना मू तुमकां? सोरो पिवन प्रश्न सुट्टा?

दिना : हय. सुट्टा प्रस्न. त्या मधूचो प्रस्न सोरो पिवनूच सुटला.

वैनी : मधूच्या तोंडाक लाय चुट्टी. तो बेबदो. ताचें शिजता कुंड्यार. आमी देवाचेच पांय धरून रावूंक जाय. पोटापुरतें तरी आसा मू? दुडू नासत पूण सूख आसा मू? मधूक दुडू दिल्या. जेवंक खावंक खूब दिलां. पूण घरांत सूख आसा व्हय? दिस्त जेवपाखावपाच्या वेळार झगडी, गाळी आनी मार. आयिल्लो पयसो नुस्त्याक, सोऱ्याक आनी वखदांक. आमकां आसा तितलेच पुरो. सांगून दवरतां. तुमी सोऱ्याक हात लावशात, हांव उठून वतलें. मागीर तुमी हांगा जाय तशे पियात आनी घरभर लोळात. (भितर वता)

दिना : सामको कात्रेंत सापडलों मरे हांव ! हेवटेन ही आनी तेवटेन तो मधू. म्हज्यासारकिल्ल्या गोंयकाराक शिवराक जेवण ! खरो गोंयकार मरे हांव. गोंयकार नुस्तें जेवतात आनी शीत तोंडाक लायतात. म्हजो आनंद आसलो जाल्यार कितेंतरी वेवस्था करपाचो. आनंद गेलो आनी सगळी जीणूच अयणी जाली. (मधू येता. मात्सो पिला.)

मधू : दिनाबाब, दिनाबाब... हाडलें.

दिना : आरे ल्हवू रे !

मधू : ल्हवू कित्याक? हांयें चोरून हाडूंकना.

दिना : कितें हाडलां रे तुवें?

मधू : दोनूय. एका बोल्सांत बाटली (कलसांवाच्या) आनी दुसऱ्या बोल्सांत बांगडो- खंय बसया? भितर या?

दिना : आरे तुवें बांगडो बोल्सांत घालून हाडलो?

मधू : फकत बांगडोच न्हू. ह्या बोल्सांत वेल्ल्यो (खोमसाच्या) ह्या बोल्सांत ताल्ले, आनी फाटल्या बोल्सांत सुंगटां. तुका जायें तें खा. सगळें जाल्यार सगळें खा.

दिना : मधू... नुस्त्याचीं नांवां आयकुनूच म्हजी जीब खोरजली. पूण इतले बेगीन रमान हें सगळें तळ्ळें कशें रे? हुशार मरे तुजी बायल.

मधू : फूस्स! रमा मेलें तळटलें इतले बेगीन ! हें सगळें नुस्तें हांयें त्याच बार्रावयलें हाडलां. थंय जेवण-बिवण सगळें मेळटा. तूं येता जाल्यार आमी थंयच बसया. सोमते  जेवन येवया.

दिना : नाका रे बाबा. हें नुस्तें हांव खायना.

मधू : दिनाबाब, तूं रोकडोच घुंवलो सो मरे? आतांच नुस्तें नुस्तें करून वळवळटालो. फूस्स! बोल्सांत घातलां म्हणून खायना? दिनाबाब, म्हाजीं बोल्सां सामकीं नितळ आसात. हांव बोल्सांत आनी कांयच घालना. कलसांव लोळ्ळाशें दिसलें तुका? दिनाबाब, पयरूच एक तारखेर न्हालां.

दिना : आसूं. तुजी बायल सदां न्हाता तितली पुरो.

मधू : तुयें पळयल्या म्हाजे बायलेक न्हाताना?

दिना : हयतर!

मधू : खंयच्यान पळयलें? खंयच्यान पळयलें तुयें?

दिना : आरे मधू- हावें पळयल्या म्हणचें म्हजे बायलेन पळयली आनी म्हाका सांगलें.

मधू : वैनीक कशी दिसली? आपय वैनीक. वैनी...(वैनी येता)

वैनी : हय रे मधू, तू हांकां सारो पिवंक शिकयता?

मधू : फूस्स! हांव कित्याक शिकयतलों? हांव ट्युशनां दितां कितें सोऱ्याचीं. वैनी, म्हाका एक सांग, तूं म्हाजे बायलेक न्हाताना पळयता खंय?

| | | |
|---|---|---|
| वैनी | : | रमाक मरे? हयतर. |
| मधू | : | खंयच्यान पळयता... खंयच्यान पळयता गे? |
| वैनी | : | आनी खंयच्यान पळयतलें? आमी दोगांय वांगडाच न्हातात न्हू रे. |
| मधू | : | वांगडा न्हातात, आनी सगळें दिनाबाबाक वर्णन करता? |
| वैनी | : | हांवें वर्णन केलां? कोण सांगता तुका? |
| दिना | : | आरे मधू, तिणे वर्णन करूंकना रे. दोगांय वांगडाच न्हातात इतलेंच सांगलां. |
| मधू | : | हां.. तुयें पळोवंकना मरे ! फूस्स! तूं चल गे वैनी तुज्या कामाक. (वैनी वता) |
| दिना | : | तूं इतलो तापलोसो कित्याक रे? |
| मधू | : | आरे दिना, तुका खबर ना. तिका पयली भायर न्हावपाची संवंय आसली. त्या.. त्या दोतोरान तिका एक दीस पळयली आनी धांवत येयलो. |
| दिना | : | आनी कितें केलें? |
| मधू | : | फूस्स! करतलो कितें? फातरार निसरोन रेब्यांत पडलो. दोळ्यांचें वक्ल पडलें. मागीर हेका कांयच दिसना जालें. |
| दिना | : | भोंगू बाबड्याचें. मागीर रे? |
| मधू | : | भोंगू म्हणून रमान तेका उबारून भितर हेलो खंय. तेका धुलो आनी वोक्ल पुसून तेच्या दोळ्यांक लायलें तेन्नाच तेका दिसलां. |
| दिना | : | जांव. दिसलें मरे! |
| मधू | : | हय. तेन्नाच्यान हांव रमाक भायर न्हांवक दिना. न्हातलें जाल्यार भितर. नाजाल्यार न्हायनासतना राव म्हणलें. पूण न्हायना जाल्यार तेका चैन पडना. |
| दिना | : | मधू, तुजी बायल इतली बरी. तूं तिचो वगीच दुबाव घेता. |
| मधू | : | म्हाका भिरांत दिसता त्या दोतोराची. तिच्या न्हावपाचो आवाज आयकुनूच तो धांवत येयत म्हणून... नुस्तें नाका मरे तुका? कांय नज... फूस्स! |
| दिना | : | तशें न्हय रे मधू. हांवें थारायलां.. आयज नुस्तें खातलों तें तुजे |

बायलेच्या हातचें. नाजाल्यार उपाशी रावतलों. खाईन तर मधुलीं भोपशीं, नाहीतर उपाशी.

मधू : म्हाजें तशें ना रे बाबा. म्हाका कितेंय टॉप. पूण वांगडा कोप जायच. खाईन तर कोपाशी, नाहीतर उपाशी. फूस्स! अशें करूया. दिनाबाब, तूं जेवंकूच आमगेर यो.

दिना : जेवंक? मधू, तिका कळ्ळ्यार म्हाका घराचें दार बंद.

मधू : कितें? आमगेर जेयल्यार वैनी तुका घरांत घेवचीना? इतली दुस्मानकाय आसा तर आमची ! आमी शेजारी मरे.

दिना : त्याखातीर न्हय रे सायबा. तुगेर सदांच नुस्तें आसता हें ती जाणा.

मधू : वैनीक कशेंच कळपाक ना. दिनाबाब, हांव तुका आयडीया दितां. जेवण वाडून बी रेडी जालें म्हण्टकच हांव एक फोर्सान शेवोणी घालतां (बोटां तोंडात घालून व्हडान शेवोणी घालता) अशी. त्याबरोबर तूं कितें कर... पोटांत घांस माल्लो म्हूण सांगून तांबयो घे आनी फाटल्या दारांतल्यान भायर सरून आमगेर यो आनी पोटभर नुस्तें खा.

दिना : मधू, ही गजाल तिका कशीय तरी कळटलीच आनी ती म्हाकाच तळून खातली.

मधू : तूं बायलेक भिता म्हणून जाता तशें. फूस्स! शिकून फायदो कितें? तुका एक गाळ घालूंक कळना. मनशान म्हणटा तें सगळें शिकोंक जायें. आतां हांव शिकयतां तुका. हांव म्हणटां तशें तूं म्हण. सामकें बोमलेच्या देंठांतल्यान नेट काडून म्हण आं. मागीर पळय वैनी तुका कशी कडकडटा ती. म्हण.... आगो रां....(वैनी येता. मधूचें तोंड उगतेंच उरता)

वैनी : कोण गाळी घालता रे? मधू... तूं..तूं म्हाका गाळी घालपाक हांवें तुजो पोटलो खाल्ला रे? सोरो पिलो म्हणून जिवाक व्हडलो दिसता कितें तुका? बेबदो जाल्यार तूज्या घरा. सोंड फोट्टलें. बायलेक मारता तें समजला? घाल पळोवया गाळी. परतून घालून दाखय. मोबायल गळ्यांत लांबयलो म्हूण जन्टलमेन

जायना.

मधू : वैनी... हांयें तुका गाळी घालुंकना गे... हांव म्हाजे बायलेक कशो गाळी घालतां तें तेका दाखयतालों.

वैनी : त्यो दाखोवंक कित्याक जाय. सदांच आमच्या कानार पडटात. मधू... आमचो देव लेगीत भियेता तुज्यो गाळी आनी झगड्यो आयकून. भायर रस्त्यार वचून घाल त्यो गाळी. हांगा देवामुखार नाका.

मधू : वैनी, गाळी कितें वायट गे? गाळी कितल्यो बऱ्यो जाणा? गाळी माल्ल्यो म्हण्टकच पोटांतलो सगळो राग वयता म्हूण जाणा मगे तूं? एक सणसणीत गाळ माल्ल्यार सणसणीत थापट मारचें लागना. कोणाक प्रेशराचें बी दुयेंस आसल्यार गाळी सामक्यो फायद्याक पडटात. प्रेशर वाडलें की एक सणसणीत गाळ मार. प्रेशर झर्र करून देंवता. गुळी घेवपाची गरज ना. तुका कळ्ळें न्हय?

दिना : हय.

मधू : कितें कळ्ळें?

दिना : एक सणसणीत गाळ म्हणल्यार एक सणसणीत थापट.

मधू : सारकें.

दिना : एक प्रेशराची गुळी.

मधू : सारकें.

वैनी : पूण तूं तुजे बायलेक गाळीय मारता आनी थापटांय मारता मरे.

मधू : फूस्स! आगे वैनी, ती म्हाजी बायल. म्हाजेकडें आसा तें सगळें हांव तिकाच दितां. दुडू, थापटां, गाळी, सगळें. थापट म्हणचें अपुर्बायेन फाटीर ओडलेलो हात. (तिचे फाटीर हात ओडपाक वता)

वैनी : फाटीं सर बुरशा, बोल्सांत कितें रे तुज्या?

मधू : बांगडो तो तळ्ळेलो. तुका जावो? घे.(बोल्सांतलो बांगडो काडटा)

वैनी : शी... घाल बोल्सांत. आनी त्या बोल्सांत कितें रे?
मधू : बाटली ती सोऱ्याची. जायी?(बाटली काडून दायखयता)
वैनी : आंवय ! शी! सगळें बोल्सांत घालून भोंवता रे बुरशा? चल पळोवया घरा. देवा, ह्या मधूक बरी बुद्द दी रे मात्शी. आवय म्हजे ! देव खंय? आवय, आवय, हें कितें? अजापूच शें!
दिना : कितें जालें?
वैनी : त्या हुंदरान कितें केलें पळयात. तो पळय... तेवटेन पळ्ळो. देवाक उडयलो मू ताणे.
दिना : कितें म्हणटा गो? हुंदरान देवाक उडयलो? अशें कशें जातलें?
वैनी : आंवय. हांवें पळयलां म्हज्या दोळ्यांनी... अस्सो धुकलून उडयलो आनी पळ्ळो तो.
आगे म्हजे बाये ! देवाक दवरिल्लो निवेद्य लेगीत खाल्लो मू ताणे. धरात ताका. मारात जितोच.
दिना : सामको मदान मरे तो हुंदीर.
मधू : केदी कापास्ताद तेची. देवापरस व्हडलो जालो मरे हो.
वैनी : तुका लागून जालें हें सगलें.
मधू : हांयें कितें केलां गे वैनी. हांयें सांगलां हुंदराक, वच आनी तेका उडय म्हणून?
वैनी : नुस्त्याच्या वासाक विटलो म्हजो देव. आनी त्या सोऱ्याच्या वासान तकली घुंवली ताची.
मधू : तकली घुंवली? हुंदराची तकली कशी घुंवलीना गे वैनी? तुजी कित्याक घुंवलीना? दिनाबाबाची कित्याक घुंवलीना? म्हाजें एक बरें आसा.
वैनी : तुवें बोल्सांतली बाटली भायर काडली तेन्नाच पडलो म्हजो देव.
मधू : तशें जाल्यार देवापरस हुंदीर घट जालो तर.
वैनी : देवापरस व्हडलो कोण ना रे मधू. तुजी ती बाटली आनी नुस्तें घेवन चल पळोवया हांगासलो.
मधू : हांव वयतां गे वैनी. दिनाबाब, लक्षांत दवरपाची गजाल ही.

देवापरस हुंदीर घट. देव सगळ्यांत आसता. सुण्या मांजरात आनी हुंदरांत लेगीत देव आसता. तेंची पयली सेवा करूंक जाय. तेंकां खूश दवरल्यार सगळें बरें जाता. आरे, हुंदीर म्हणल्यार देवाचो घोडो. आपले फाटीर बसोवन तो तेका जाय थंय व्हरता. येदोसो हुंदीर. येद्या गणपती बाप्पाक फाटीर बसोवन भोंवता म्हणचें पळय मरे (मोबायल लायता). हॅलो.... आरे, म्हाका एक हुंदीर जाय आसलो....(उलयत वता)

वैनी : पळयतात कितें?

दिना : तो मधू कितें सांगता पळय मगो.

वैनी : ताचें पोट भरता आयतें. ताका माल्ल्या मस्ती. देवान ताका इतलें दिलां, ताचे गूण गावचे सोडून हुंदराचे गूण गायता तो. देव ताका वगी रावचोना. देव दिवन पळयता. चलात. हातपांय धुयात आनी माफी मागात देवाची.

दिना : हांवें हात पसून लावंक ना त्या नुस्त्याक. (वैनी आपुणूच वचून पडिल्ली मूर्त उबी करता)

वैनी : देवा, माफ कर रे त्या मधूक. चुकलो तो. ताचो राग आमचेर काडू नाका. आमचो न्हय तो. शेजारी तो. मनीस बरो. पूण पिता म्हणून वायट. तुकाच न्हय देवा, गांवच्या सगळ्या लोकांक गाळी मारता तो. देवा, ताचे वतीन हांव माफी मागतां, सोरो सोडपाची बुद्द घाल रे देवा ताचे तकलेंत. आनी हांकांय बरी बुद्द दी. (वता)

दिना : (देवाक) कळ्ळें ! कळ्ळें रे म्हाका. तो हुंदीरूच श्रेष्ठ. हुंदरान तुजी सगळी पंचखाद खाली. आनी तुवें उगत्या दोळ्यांनी पळयलें. दुसरो कोणूय जाल्यार ताचे कान तरी धरतलो आसलो. तुवें शेपडी लेगीत ओडलीना. आरे तुका ताणे जमनीर आडवो उडयलो तरी तूं वगीच! म्हण्टकच कोण श्रेष्ठ जालो? त्या मधून दोळे उगते केले म्हजे. तरी म्हण्टां, इतलो तेंप म्हजें काम जायना कशें! त्या मधुचेंच खरें. म्हजें काम हुंदीरूच करतलो. खंयचेय खांचीत वचूंक शकता तो. कोणाल्याय घरांत वचून

सरपळ्यो, मुदयो, तरी हाडून दितलो तो म्हाका. (येवजूंक बसता)

वैनी : (येता) घेयात. हो कडो पियात.

दिना : कडो? आदीच शिवराक, तातूंत कडो ?

वैनी : पोटांत वळटा म्हणटात न्हय तुमी.

दिना : आगो पोटांत वळटा नुस्त्याक लागून. कड्याक लागून न्हय.

वैनी : म्हाका राग हाडू नाका आं. पितात काय ना तुमी कडो? (दिना तोंड वांकडें करून कडो पिता) आतां देवा म्हऱ्यांत बसून कितेंय वाचात. येवजितात कितें?

दिना : आतां देवाची पूजा करची काय हुंदराची तें येवजितालों. तो काय उलयना.

वैनी : हें बाये कितें तुमचें नाका आशिल्लें ! देव तो देव! कितलीय पुजा केली म्हूण तो कसो उलयतलो? कितें करपाचें तें तोंड धांपून करतलो. ताचेर भावार्थ दवरात आनी पुजा करात. केन्नातरी आमचो शेणिल्लो आनंद आमकां परत मेळटलोच. तुमकां सांगून कामां करपाक तो कितें मनीस न्हय. आनी हुंदराची पुजा करपाक तो कितें देव ! देवाचो घोडो. देव ताचेर बसतकच कसो चिड्डता पळयला मू? मनीस घोड्यार बसलो म्हणून घोडो मनशापरस श्रेष्ठ जायना. स्कुटरीचेर बसून गांवभर भोंवलो म्हण्टकच मनीस व्हडलो जाता काय स्कूटर? मनीस गाडी चलयता. गाडी कोणाची? मनशाची. ताणे ती विकती घेतल्या. कोण व्हडलो जालो ? (वैनी वता. काळोख)

(उजवाड. मधू दिनाक उलो मारीत येता)

मधू : दिनाबाब.... ये दिना.... खंय गेलो रे? (दिना येता) खंय आसलो रे तूं? कितें करतालो? केंसांक घैरूं लागला सो.

दिना : हुंदीर सोदतालों. जाय तेन्ना मेळना तो. नाका तेन्ना दिश्टी पडटा.

मधू : फूस्स! हांयें सांगलां तें पटलें मरे तुका?

दिना : मात्शें पटलां रे मधू.

मधू : फूस्स! मात्शें नाका. सगळें पटपाक जायें.

दिना : पूण देवाक म्हणून विसरू येता रे मधू? देव तो देव न्हय!

मधू : देव तो देवूच रे. तेका आमी कशे इसरतले. पूण सद्या काळ तसलो येयला.

दिना : कसलो?

मधू : देवाक सोडून देंवचाराक रोंट घालपाचो. हत्ती केदो व्हडलो आनी मूय येदिशी. पूण मूय जर हतयाच्या सोंडयेंत वचून चाबली, वा कानांत वचून घट्ट मांस माल्लो, जाल्यार येदो व्हडलो हत्ती सामको जमनीर लोळटा. कोण घट जालो?

दिना : मूय.

मधू : फूस्स! आरे दिना. केन्नाकेन्नाय मोठ्या मनशाकडें जायना तें काम बारीक मनशाकडें जाता. बस वचना त्या रस्त्यार धाकटी गाडी वयता आनी धाकटी गाडी वचना त्या जाग्यार स्कूटर वयता. पूण सायकल, रस्तो ना थंय पासून वयता. तिका पेट्रोल पासून नाका. तशी गजाल ही. देव तुज्या फुड्यान येवंक जावो जाल्यार पयलीं हुंदराची पुजा करची पडटली. कारण तोच आपले फाटीर बसोवन तेका घेवन येतलो. आतां सारकें कळ्ळें मरे तुका?

दिना : म्हाका वदळ कळ्ळां रे. पूण ताची पुजा करपाक म्हजेकडे हुंदराची मूर्त खंय आसा?

मधू : हांव आसां तो !

दिना : तूं? तूं हुंदीर?

मधू : आरे, हांव शेजारी मरे तुजो. आमी एकामेकाक पावचेना जाल्यार कोण पावतलो? (बोल्सांतलो हुंदीर भायर काडटा.) घे.

दिना : तुवें हुंदीर धरून हाडलो?

मधू : फूस्स! भुरग्यांनी खेळपाचो. कोर्दीचो. कोर्द दिल्यारूच धांवता. खऱ्या हुंदराभशेन. पुजा केल्यारूच पावता पळय तसो. घे. आतां जायी तशी पुजा कर. तुजो आनंद तुका सांपडलोच म्हणून

समज.

देना : मधू.... तुवेंय हुंदराची पुजा केल्ली?

नधू : म्हाजी खबर तुका कित्याक रे? तूं आनी हांव सारको? हांव गिरेस्त जालों. आतां म्हाज्यान कोणाचीय पुजा करूं येता. म्हाजे दुडू सामके फिक्साक आसात. फिक्साक म्हणचें कळटा मरे तुका?

दिना : हय.

मधू : कितें? फिक्साक म्हणचें कितें?

दिना : फिक्साक म्हणचें फिक्साक. सामकें वेल्डींग करतात पळय तशें.

मधू : सारकें उलयलो. गोम न्हू... फेविकोल न्हू... सामकें वेल्डींग. तें कोणाचकडे निखळपाचें ना. सामकें घट. तेका कोणूच हात लावंक शकना. बँकेचो मेनेजर पासून. फकत हांव. फकत हांव काडूंक शकतां. दिना... तुजेंच पळय तूं. म्हाजें चिंतूं नाका. तुका गिरेस्त जावपाचें आसल्यार हुंदराची पुजा कर. (भितर आयदनां पडिल्ल्याचो आनी हुंदीर रडिल्ल्याचो आवाज.)

मधू : तुमचो हुंदीर रडटा कितें रे! शी... दिनाबाब तेका रडोवंक जायना. तेका जायें तें खावंक दी. तेन्नाच तो तुका जायें तें हाडून दितलो. दुडू जाये दुडू. भांगर जायें भांगर. तांदूळ जाये तांदूळ.

दिना : दुसऱ्याले हाडून दिना मरे?

मधू : तो खंयचेय हाडू रे. तें तुका कित्याक? देवान तुका दिलें, तुजें जालें. (भितर हुंदराचो आवाज) शी...शी... दिनाबाब, हुंदीरदेव रडटा तें म्हाज्यान आयकू नज. असल्यानी तूं कसो गिरेस्त जातलो? तुजो शेणलेलो आनंद कसो मेळटलो? फूस्स!

दिना : आगो कितें जालें? कित्याक त्रास दिता म्हज्या हुंदीर-देवाक? ताका कितें जाय तें खावंदी. देव तो. देव खुशी जाल्यार आमी सुखी.

वैनी : (भायर येत) देव? हो हुंदीर देव? तुमच्या त्या हुंदीर देवाची

दशा पळयात कितें जाल्या ती.

दिना : आनीक कसलो पराक्रम केलो म्हज्या हुंदीर देवान?

वैनी : पराक्रम हुंदरान न्हय. पराक्रम केलो आमच्या बुकल्यान. बुकल्यान हुंदराक धल्लो. खेळो खेळोवन माल्लो. आनी आतां चाबडायता पळयात कसो. शी...शी. हांगा रगत उडयशी. आतांच जमीन पुसल्या हांवें. ये बुकल्या, भायर चल ताका घेवन. चल पयली. चल. चल. (बुकल्याक धांवडायत भितर वता)

दिना : मधू... आतां कशें? आमच्या देवाक त्या बुकल्यान गिळ्ळो.

मधू : दिनाबाब, जालें तें बरेंच जालें. फुस्स! पुजा करचे आदीच सत्य कळून बऱ्याक पडलें.

दिना : कसलें सत्य?

मधू : हेंच ! हुंदरापरस व्हडलो कोणतरी आसा.

दिना : म्हळ्यार ?

मधू : दिनाबाब, बुकल्यान हुंदराक माल्लो. फुस्स!

दिना : माल्लो न्हय खाल्लो.

मधू : हय, खाल्लो. म्हण्टकच आतां घट कोण जालो? हुंदीर काय बुकलो?

दिना : बुकलो. म्हण्टकच आतां बुकल्याची पुजा करपाची?

मधू : तुका 'तें' जायें जाल्यार कर. मागीर तुजी मजा. जायें तितलें नुस्तें खा.

दिना : कशें?

मधू : आरे बुकल्याक कितें आवडटा तें दिवपाचें. बुकल्याक सगळ्यान चड कितें आवडटा?

दिना : नुस्तें

मधू : जालें! नुस्तें देवाक दाखय आनी तूंच खा. दाखय दाखय खा. दाखय दाखय खा. फूस्स!(मोबायलाचेर) हॅलो... तुमगेर बुकलो... (हाडिल्लो हुंदीर घेवन उलयत वयता)

दिना : वा रे बुकल्या. वस्ताद तूं. हुंदरापरस तूंच श्रेष्ठ थरलो. तूं

आसतना, तो हुंदीर, देव जावंच शकना. देव जालो तूं. बुकलो देव. यो देवा, यो. असो पाटार बस. हांव तुजी पुजा करतां. तुका जाय जाय तें खावंक दितां. दूद, तूप, लोणी दितां. जाय जाल्यार दोन हुंदीर लेगीत हाडून दितां. बरें बरें नुस्तें दाखयतां. आतां तूंच म्हजो देव. बुकल्या, तूंच म्हजो देव.

(वैनी बॅग घेवन येता)

दिना : आगो बॅग बी घेवन खंय? आनी अशें अकस्मात शें? तेलेग्राम आयला? कोण बरो ना? कोणाक वायट जालें...?

वैनी : तोंड सांभाळून उलयात आं. हांव वतां आवयगेर. रावपाक पर्मनिन्ट !

दिना : पर्मनिन्ट! म्हणचें केन्नाच येवचेंना? म्हाका सोडून वता?

वैनी : हय.

दिना : असो अकस्मात खंयचो किडो गेलो गो तुजे तकलेंत?

वैनी : म्हजी वाट सोडात. म्हाका वचुंदी.

दिना : हांव कित्याक वाट सोडटलों तर ! म्हजी बायल भरिल्ल्या घरांतल्यान म्हाका सोडून आवयगेर वता - पर्मनिन्ट. आनी हांव वाट सोडूं? वा ! हांव संप करतलों, मोर्चो काडटलों, धरणें धरतलों, उपास करतलों, अन्न सत्याग्रह करतलों. हंगर स्ट्रायक.

वैनी : तुमी बसात थंयच, अन्नसत्याग्रह करीत. हांव वतां.

दिना : (तिचें बॅग धरून) आगो वचू नाका गो सायबिणी. म्हाका जाय मगो तूं.

वैनी : कित्याक? रांदून वाडपाक? सगळें रांदून दवल्लां तुमकां. रोस केला. बटाट्यांची कापां तळ्ळ्यांत. पोटभर जेवात आनी बसात अन्नसत्याग्रह करपाक.

दिना : कितले दीस म्हूण जेवतलों गो तें. तूं नासतना म्हाका जेवंक कशें चलतलें? हांव जगतलों कसो? आता तूंय गेलें जाल्यार म्हजो जीव वतलो मगो.

वैनी : तो बुकलो आसा न्हय तुमचो देव. तो रांदून वाडटलो तुमकां.

बरें बरें नुस्तें हाडून घालतलो. पाटार बसोवन पूजा करात ताची. देव न्हय तो तुमचो !

दिना : हां हां. तुका हांगा खोरजता तर!

वैनी : ज्या घरांत हुंदरांक आनी मांजरांक पुजतात, त्या घरांत देव कसो आसतलो? आनी ज्या घरांत देव ना, त्या घरांत हांव रावू शकना.

दिना : आगो पूण हांवे ताका पुजला तरी खंय गो? बेठें तोंडान म्हणलें म्हूण पुजा जाता!

वैनी : ज्या घरांत हुंदराचे, मांजराचे गूण गायतात, त्या घरांत हांव रावूंक शकना.

दिना : हांवें गायल्या? तो मधू गायता ताचे गूण.

वैनी : ज्या घरांत देवाचे गुणगान जायना त्या घरांत हांव रावना.

दिना : तुज्या हुजरां पुजा करतां मगो हांव देवाची.

वैनी : लक्ष नुस्त्याचेर दवरून . मुँहमें राम और बगलमें नुस्तें. इतली वर्सां तुमी बरी पुजा केली. आतां तुमचे तकलेंत म्हारू रिगला म्हारू.

दिना : (आयडिया काडून) वताच म्हणटा तर तूं. चल बाबडें. वतल्याक कोणाच्यान आडावं येता! मधूची बायल, रमा म्हाका लागीं करतली. तें इतलें लागी आसतना म्हाका कसलोच भंय ना. तें म्हाका जेवण घेवन हांगा येतलें आनी मागीर दोगांय वांगडाच बसून जेवतलीं. मधू काय घरादाराक आसना. चल तूं चल. हांव घटस्फोटाचे पेपर धाडून दितां ते मात सायन करून दी.

वैनी : हें पळयात. भोंगू म्हणून रावतां आतां.

दिना : नाका-नाका. चल तूं. म्हजो हुस्को करू नाका. रमा म्हाका रांदून वाडटलें. म्हाका जाय जाय तें दितलें. चल आं चल. आवयगेर वचून सुखान राव. हांव जाल्यार तुका सोडून येतां. टॅक्सी हाडटां... आरे टॅक्सी आसा रे थंय...?

वैनी : पुरो-पुरो.... हांवे फकाणां केल्लीं.

दिना : हय? हांवेय फकणांच केल्लीं.

वैनी : तुमकां सोडून हांव खंयच वचपी न्हय.

दिना : हांवूय तुका सोडपी न्हय. (वैनी बॅग घेवन भितर वता)

दिना : हा...! सुटलों एकदाचों. केदें मोठें संकट रे सायबा! त्या हुंदराक आनी बुकल्याक लागून जालें सगळें. रमाची याद जावन बऱ्याक पावलों. नाजाल्यार ....घरचे लक्ष्मीक भायर वचूंक दिवं येता! (भितर वैनी बुकल्याक मारता तो आवाज आयकूंक येता)

दिना : आगो, कितें धाडायता?

वैनी : (भितरल्यान) चेटणी करतां चेटणी.

दिना : चेटणी ! सगळें रांदून जालां म्हणटालें मगो. सदां तूं फातरीर वांटून करता. इतली धाडावन करपाची कसली चेटणी तर ती!

वैनी : (भायर येता) बुकल्याची चटणी.

दिना : कितें ! बुकल्याची चेटणी? कितें उलयता गो!

वैनी : हयवय. तुमच्या बुकल्याची चेटणी.

दिना : हां हां. म्हणचें तूं बुकल्याखातीर चेटणी करता. ताका खावंक घालपाक. आतांच ताचो दुस्वास करतालें. रोकडेंच अपुर्बाय करपाक लागलें!

वैनी : हय, तुमचो देव न्हय तो.

दिना : आगो तो आतां म्हजो देव उल्लोना. हांवे सोडलो ताका.

वैनी : हांगा येयात दाखयतां. हांगा अशे उबे रावून पळयात (तो पळयता) तो तुमचो बुकलो कसो जमनीर पातळ्ळा तो पळयात. पळयलें मू?

दिना : (चुरचुरता) आरेरे ! कितें जालें तर ताका? न्हिदला जातलो. न्हिदूं. आराम करूदी. पूण जमनीरूच न्हिदलो मगो तो. मोवशें हातूण घालून दिवचें न्हय?

वैनी : हय! आतां मोवशा हातुणांत गुटलावन ताका व्हरात आनी मोवशे जमनींत फोंड काडून पुरात. तुमचो बुकलो मेलो.

दिना : मेलो ? कसो?

वैनी : हांवे माल्लो. ह्या दांड्यान धाडायलो धरून.

दिना : तुवें बुकल्याक माल्लो? केदें व्हडलें पातक केलें गो तुवें! बुकल्याक

मारचो न्हय.

वैनी : ताणे कितें केलें तें नकळत तुमी.

दिना : कितें केलें ताणे तुका?

वैनी : आत्तां ताणे हुंदराक खालो हें तुमी पळयलां मू?

दिना : हय, बरो पळयला हांवें. खावपाचोच ताका.

वैनी : हुंदराच्या रगताचें तेंच तोंड ताणें दुदांत बुडयलें. दोन लीटर दूद भायर उडोवचें पडलें.

दिना : आगो पूण दूद खालें म्हूण...

वैनी : फुडें आयकात. तेंच तोंड रोसांत बुडयलें. तेंच तोंड भाजयेच्या तोपांत घालें. रांदिल्लें सगळें जेवण भायर उडोंवचें पडलें. आतां सगळें परतून रांदचे पडलें ना! म्हण्टकच खंयचे बायलेक राग येवचोना? देखून हांवे धाडायलो ताका. कळ्ळें?
(मधू दोतोराक ओडीत हाडटा. ताच्या हातांत दोतोराचें बॅग आसा)

दोतोर : आरे पूण कोणाक कितें जालें तें सांग तेरी मुरे....

मधू : दिनाबाब, हो पळय. दोतोराक हाडलो. फूस्स!

दोतोर : दिना बरो ना?

दिना : हांव बरो आसां.

दोतोर : हुनी बोरी ना मिस्ता.

मधू : हुनयेक कांय जावकना रे. हुंदरान बुकल्याक खालो. फूस्स!

दोतोर : कितें? अजाप मुरे! बुकलो हुंदराक खाता तें हांव जाणो.

मधू : तेंच रे सायबा... बुकल्यान हुंदराक खालो.

दोतोर : खायलो मुरे? तेका तुज्यान आनी म्हाज्यान कितें करू येता? तेका खावपाचोच.

मधू : शी...तशें म्हणू नाका. दिना तुका वगी रावपाकना.

दिना : मधू... आतां चित्र बदललां. हांवें सोडलो ताका.

दोतोर : हुंदराक खायलो बुकल्यान. दिना म्हाका कित्या वोगो रावपाना? हांव बुकलो? हांयें खायला हुंदराक? हो केसो कायदो रे मोदू. तें बुकल्याचें जेव्रोण. हुंदराक खावपाना जाल्यार कोणाक खातोलो

तोर तो? तुका? आरे दिना, मुनीस कोंबो खायना? बोकडो खायना? नुस्तें खायना? तेशें तें हुंदराक खाता. तें नातुराल मुरे. दिफेरेंस इतलेंच - आमी शिजोवन खाताय. तीं जितीच खाताय.

दिना : दोतोर, तेका मात्सो पळय.

दोतोर : हांव पोवू? ना सायबा. हांव पोडणा तुमच्या केस्तावान. तूं आनी बुकलो चोवन घेयाय. नाजाल्यार पुलिसेंत वासोन केश कोराय. पुलीस येतोलो आनी बुकल्याक धरून भितोर उडोयतलो. हांव वोयतां. म्हाका थिंगा पेशन्ट रावताय. म्हुगे बॅग दी चोवया.

दिना : दोतोर... दोतोर... तो बुकलो मेलो.

मधू : कितें दिना- बुकलोय मेलो? फूस्स!

दोतोर : बुकलो मेलो? हुंदीर खायन बुकलो मेलो? हें दुसरें आजाप. हुंदीर मुणल्यार मेलोलो बुकलो जितो जाता. मोत्तेलो कसो?

दिनी : बेश्टो मरुंकना दोतोर.... तेका माल्लो.

दोतोर : कोणे माल्लो रे?

दिना : हिणे.

दोतोर : हुनयेनू?

मधू : वैनी, तुवें बुकल्याक जितोच माल्लो?

वैनी : हय. माल्लो हांवें, रागान.

दोतोर : बुकल्याक माल्लो जाल्यार ती क्रीम जाली. जोनवोरांक मारूंक जायना. सेरकाराक गोमल्यार तिका धोरून वोत्तेले. बेगीन फोंड काडून पुरून उडोय.

दिना : तूं मात्शें कितेंय करूंक जाता जाल्यार पळय दोतोर.

वैनी : प्लीज दोतोर.

मधू : दोतोर, तूं तेका जितो कर....

दोतोर : मेलेल्या मुनशाक दोतोर कितें- मेलेल्या बुकल्याक दोतोर कितें कोत्तो रे? आनी हें सांग रे मोदू.... हांव जोनवरां दोतोरू? हांव मुनशां दोतोर मुरे.

वैनी : जाणा दोतोर. पूण मात्शें कितेंय करूंक जाता जाल्यार पळय

न्हय ! उपकार जायत.

दोतोर : हांव कितें कोत्तों गे हुनये? म्हाका सोजमोता तें? तेका इस्पितोलांत व्होर मुरे. मोदू, तूं घेयन वोस रे तेका इस्पितोलांत.

मधू : दोतोर - तेका हॉस्पिटलांत घालपाचें? बांबोळे मेडिकेलांत? फूस्स! हांव आतांच ॲम्बुलन्स हाडूंक सांगतां. (मोबायल लायता.)

दोतोर : आरे, जोनवरां इस्पितोलां आसताय. पोणजे तोंकार आहा.

दिना : व्हरया. व्हरया दोतोर. पूण तो सामकोच मेला काय मात्सो जीव आसा तें तरी पळय मरे.

दोतोर : आरे हांव जोनवरां दोतोर न्हय. हांव तुका कुरार कोत्तां, रामाक कोत्तां. तुमी सोगलीं जोनवोरां?

दिना : तशें न्हय दोतोर...

दोतोर : तेशें न्होय...केशें? तूं रेडो? हो पाडो? आनी हेगे बायल रामा, ती कोण गायू? येद्या व्होड दोतोराचो येदो इनसोल्टू? दी मुगे बॅग. हांव वोयतां.

वैनी : दोतोर इतलो रागार जावं नाका. तू आमचो शेजारी न्हू.? मात्सो त्या बुकल्याक फस्ट-येड कर.

दोतोर : फस्ट-येडू? मेलेल्याक फस्ट-येडू? फस्ट येड मुल्यार कितें रे? फस्ट-येड मोच्च्या पोयली कोत्ताय.

दिना : फस्ट-येड नाका. एमर्जन्सी ! आकांत

मधू : हां... आकांताक पाव.

दोतोर : आरे मेलेल्याचो आकांत केसलो? व्होरोन पुरपाचो.

मधू : तेंच दोतोर तेंच. तो मेला काय पळय. खरोच मेलो जाल्यार आमी तेका पुंरतांव. फूस्स!

वैनी : (रडटा) आमचो शेजारी, दोतोर आसून कांयच फायदो ना गे बाये!

मधू : वगी राव वैनी. हांव दुसऱ्या दोतोराक हाडटां. (मोबायल लायता.)

दोतोर : रोडो नाकाय. हुनये रोडो नाका... आवोयस! बायल रोडटा ती म्हाज्यान पोवोंक नेजो.

दिना : म्हाका मात्शें कानवोक्ल दी पळोवया. हांव तपासतां तेका.

मधू : हांव जाणा कानवोक्ल लावन तपासपाक. हायें आमच्या सुण्याक इंजेक्शन पासून केल्लें. (वैनी आनीक मोठ्यान रडटा)

दोतोर : रोडो नाका हुनये... बोरें सायबा, घेवन यो पेशंटाक. (मधू आनी दिना भितर वचून बुकल्याक उबारून हाडटात. दोतोर कानवोक्ल लावन बुकल्याक तपासता)

मधू : सुरू सुरू जाता?

दोतोर : सुरू सुरू जावपाक तें कितें सुरसुरें?

दिना : ढब ढब जाता?

दोतोर : ढोबो ढोबो जावपाक तें कितें धोलकें?

वैनी : म्याँव म्याँव जाता जाल्यार पळय रे.

दोतोर : मात्शे वोगे रावाय रे. उलोय नाकाय... आं... जाता रे जाता.

मधू : कितें जाता?

दोतोर : च्यूं च्यूं जाता मुरे

मधू : च्यूं च्यूं कशें जातलें? सारकें आयक.

वैनी : हुंदराचो आवाज तो.

दोतोर : तेणे आक्को हुंदीर गिवलो कित रे?

दिना : हुंदीर झक मारू रे थंय ! बुकलो जितो आसा जाल्यार पळय.

मधू : कानवोक्ल हांगा लाय रे.

दोतोर : तूं चोड जाणाय? काडीज थिंगा आसता? मात्शे वोगे रावाय चोया. माका डिस्टर्ब जाता.

मधू : वैनी इल्लें उदक पिवंक दी गे ताका.

दोतोर : उदोक कोणाक रे?

मधू : तुका कितें जाता म्हणटा मरे तूं!

दोतोर : आरे डिस्टर्ब जाता... म्हुणचें तुमचो बोबाव जाता ...(सगळे एकामेकाक शू-शू करून वोग्गी रावतात. दोतोर तपासता) आं... हुंदराचो आवाज बोंद जालो.

मधू : हुंदीर न्हिदलो दिसता.

दिना : आतां बुकल्याचो आवाज आयकूंक येतलो.

दोतोर : (बरो वेळ तपासून उठ्ठा आनी कडेक वता. दिना आनी मधू ताचे फाटल्यान वतात)

दिना : दोतोर, पेशन्ट कसो आसा?

दोतोर : आय ॲम सॉरी !

मधू : कितें जालें दोतोर?

दोतोर : दिनाबाब, मोदूबाब... हुंदीर जिवो आहा, पूण बुकलो मेलो. ही इज नो मोर (वैनी मोठ्यान रडटा)

मधू : फूस्स! धीर धर वैनी... धीर धर. जावपाचें जालें. मनशाच्या हातीन कांय ना. तुयेंच असो धीर सोडलो जाल्यार दिनाबाबान कोणाच्या तोंडाकडे पळोवपाचें.

वैनी : हुंदीर मरू आसलो रे... बुकलो उरूंक जाय आसलो रे... रागाभरशी हांवें माल्लो ताका (रडटा) हत्या केली हांवें.

दोतोर : तें सोगलें देवाच्या हातीन आहा... तेज्याफुडें कोणाचें कांयच चोलोना.

दिना : काय बरो म्हजो बुकलो.

मधू : आमगेर येतालो, नुस्तें खातालो, हुंदीर खातालो. हांव तेका कांयच म्हण नासलों. गेलो बाबडो ! सगल्यांक सोडून गेलो.

दोतोर : हांव वोयतां. म्हाका थिंगा पेशन्ट रावताय. गोरोज पडल्यार म्हाका उलो माराय. (दोतोर वता)

दिना : आतां रडून कांयच फायदो ना. सगळे सोडून गेले आमका. हुंदीर गेलो, बुकलो गेलो आनी आमचो आनंद लेगीत गेलो.

मधू : दिनाबाब. तूं हुस्को करू नाका. हांव फोंड काडून पुरतां तेका. कोणाक कांयच कळचेंना. लागी न्हू. सामको दोंगरार पुरतां. फूस्स! (बुकल्याक भितर दवरता) हांगाच आसुंदी. इल्लें मारून येतां (भायर वता. वैनी रडटा)

दिना : वगी राव. आगो तुवें केदो व्हडलो पराक्रम केला, तुका खबर ना.

वैनी : कसलो पराक्रम?

दिना : तुवें बुकल्याक माल्लो म्हण्टकच बुकल्यापरस तूं श्रेष्ठ थरली.

वैनी : कर्माची श्रेष्ठ. म्हाका केदें व्हडलें पातक लागलें! महापातक केलें हांवें महापातक.

दिना : आगो दुश्टाचो संहार केलो तुवें. हो बुकलो सगळ्या हुंदरांक खातालो. ताचो वध केलो तुवें. श्रीकृष्णान कंसाचो वध केल्लो, श्रीरामान रावणाचो वध केलो, दुर्गामातेन दुश्ट राक्षसांक मारून उडयले तशें तुवें हुंदरांक गिळपी बुकल्याक माल्लो. तांतूत पाप कसलें! तुवें बरें कार्य केलें... देवी तूं देवी. खरें म्हणल्यार हांवें तुकाच पुजपाची. तुजीच पुजा करूंक जाय हांवें. (वैनीक घुंवळ येता) आगो-आगो कितें जाता गो तुका?

वैनी : सगळें घुंवता शें! गिरगिरें कशें.

दिना : हांवूंय घुंवतां?

वैनी : तुमी चड फांस घुंवतात आमी खंय आसात? विमानांत बसल्यात?

दिना : विमान फुटलां! आमी आमच्या घरांतूच आसात. तुका घुंवळ येता दिसता.

वैनी : आतां म्हाका कांयच दिसना. तुमी खंय आसात? सगलो धुंवर दिसता.

दिना : उजो घालनासतना धुंवर कसो जालो तर !

वैनी : तुमचोच धुंवर जालो. तांबडो तांबडो धुंवर.

दिना : म्हजो तांबडो धुंवर जालो! आरे म्हज्या बाबा...आतां कितें जातलें!

वैनी : हांव पडटां...हांव पडटां...(वैनी जमनीर पातळटा.)

दिना : आरे देवा.. ही पडली. कितें जालें गो तुका? उलय गो सायबिणी... कांयच उलयना. कोणूय तरी येयात रे पापयांनो... शेजारी पाजारी धांवून येयात... दोतोर... दोतोर.... धांवून यो... म्हजी बायल घुंवळ येवन पडली... रडना, हांसना, उलयना...धुंवर दिसता खंय... तांबडो धुंवर... बेगीन यो... (कपलाक हात लावन) आवयस! सामकें थंड जालें मगो तूं. जीब भायर काडली. दोळे वयर गेले. आरेरे. आतां कितें करूं....(दोतोर येता) दोतोर यो. पळय म्हाजे बायलेक कितें

जालें...

दोतोर : कितें जालें रे हुनयेकु? येशी कित्याक न्हिदोल्या?

दिना : धुंवर दिसता खंय. तांबडो धुंवर... म्हजो धुंवर जालो खंय तांबडो.

दोतोर : तांबडो धुंवर ? दोयांत रोगोत येयलां मिस्ता.

दिना : आतांच काय बरी रडटाली. अकस्मात घुंवळ आयली. (बुकल्याच्या रडपाचो आवाज)

दोतोर : आं...! येदोळ मेलेलो तोच बुकलो न्होय रे हो!

दिना : कितें ! मेल्लो बुकलो रडपाक लागलो!

दोतोर : आर्रा ! उठोन चोलोंक लागलो मुरे तो. जीत जालो कितरे!

दिना : जायत. मांजरां बुकल्यांक सात जीव आसतात खंय. दोतोर, पयली हिचो जीव वाटाय. आगो बुकलो पसून उठून चलूंक लागलो. आतां तूंय उठ गो.. दोतोर, ती सामकी थंड जाल्या.

दोतोर : (हात लावन पळयता) होय मुरे. सामकी थोंड जाल्या. फिरिजींतलें उदोक पिवंक दिलेलें?

दिना : ना दोतोर.

दोतोर : इतू थोंड केशी जाली तोर ती!

दिना : सगळें घुंवता म्हणूक लागली. दोळे वयर केले. जिबली भायर काडली.

दोतोर : आवयस ! आजाप मुरे. खुंय आहा रे?

दिना : कितें दोतोर?

दोतोर : जिबली.

दिना : तिच्या तोंडांत आसा दोतोर.

दोतोर : (तिचें तोंड उगडून पळयता) आवोय. तोंडांत भोल्ला मुरे.

दिना : कितें भल्लां दोतोर

दोतोर : तांबडो धुंवोर...राव आं. कानवोक्ल लावन चोयतां (तपासता) आरे... काडीज न्हिदोलां. आवाज कोन्ना (दिनाच्या काळजाक लावन) चोय, तुगे काडील ढोबो ढोबो कोत्ता. (आपल्या काळजाक लावन) मुगे ढुबू ढुबू कोत्ता. हिगे कुटू-कुटू देखून

कोन्ना.

दिना : मेली दोतोर?

दोतोर : मोरोंक ना रे. तिगे काडीज हालोना. फाटीर खोंट मार चोवया. (दिना दोतोराचे फाटीर खोंट मारता) आरे मुगे फाटीर न्होय रे. हिगे फाटीर खोंट मार रे.

दिना : हांव मारना.

दोतोर : हांव सांगोना रे तिका. मार्रे तू.

दिना : ती म्हजी देवी. हांव तिचेर खोंट मारना.

दोतोर : मूठ तेरी मार्रे. (दिना तिचे फाटीर मुठी मारता)... ना रे बाबा. काडीज मात पूण हालोना.

दिना : दोतोर... मरतली?

दोतोर : वोय

दिना : वाटाय दोतोर. कितेंय करून म्हजे बायलेचो जीव वाटाय.

दोतोर : तिगे जीव वाटवपाक हांव कोण देवू?

दिना : म्हणचें आता ती मरतली?

दोतोर : वोय. म्हाज्यान तिका वाटावंक जावचीना. आय एम सॉरी. दिनाबाब (दिना रडटा) रोडोनाकाय. हांव तुका सर्टिफिकेट बोरोवन दितां... ती आताक येवन मेली म्हुणोन. हांव वोयतां. मागीर येवन सर्टिफिकेट घेवन वोस.

दिना : नाका दोतोर. अशें करू नाका. कितेंय तरी उपाय कर.

दोतोर : आरे म्हाका ती मेल्ली जाथी? आमगे हुनी मुरे ती. कायबोरी शेजान्न. पूण कितें कोत्तोलो?

दिना : खंय व्हरपाक जाय जाल्यार व्हरया. व्हडल्या हॉस्पिटलांत...

दोतोर : कांयच फायदो ना. संवसारातलो खंयचोय दोतोर तिका वाटावचोना. ती आनीक धा मिनटांनी मोत्तेली.

दिना : (रडटा)

दोतोर : रोडो नाकाय. दिनाबाब रोडोनाकाय. मनशाचेर येयत जाल्यार सोगलेवाटेन येता. तुमचो आनंद गेलो. हुंदीर मेलो, बुकलो जितो जालो. आतां हुनयेचेर येयलें. आतां तूं सारको सांबाळून

राव. चोड रोडो नाकाय. रोडोन रोडोन तुकाय ....

दिना : (रडटा.)

दोतोर : वोगो राव... मोत्तोल्याक कोणाच्यान आडावं नेजो... आं! एकूच दोतोर आहा ह्या संवसारांत. तेज्यान तिका जेरूर आटांव येता.

दिना : कोण दोतोर? खंयचो दोतोर? खंय आसा दोतोर? सांग दोतोर.

दोतोर : आरे दिनाबाब, तुज्याच घारांत आहा तो दोतोर. तो सोगल्यांच्या घारांत आहा. तेकाच सांग. तेज्यान तिका बोरी कोरू येता. हांव वोयतां.

दिना : हांव समजुंकना दोतोर. खंयचो दोतोर आसा आमच्या घरांत?

दोतोर : आरे तुमच्या घरांत देव आहा मुरे? तो व्हडलो दोतोर. आक्क्या संवसाराचो दोतोर तो. तेच्या मोनांत येयल्यार तो मेलेल्यांक देखून जितो कोत्ता. शिमितेरींतलें मोडें उठोन उबें रावता. तेगे पांये धोर. प्राथना कोर आनी कावजांतल्यान माग. नितोव ओंतोस्कोरणान आनी भावार्थान मागल्यार तो जेरूर दितोलो (दोतोर वता)

दिना : हांव चुकलों देवा. खरेंच, तुज्यापरस व्हडलो ह्या संवसारांत दुसरो कोण ना रे देवा. तूंच निर्मूपी. तूं तारपी, दूख हारपी आनी सूख दिवपी. तूं महाशक्ती! देवा म्हाका माफ कर. म्हजें मन भरकटलें. तूं सर्वश्रेष्ठ आसतना हांव भ्रमांत पडलों. (पोले फोडटा) चुकलों देवा आनी केन्नाच अशी चूक करचोंना. भक्तीभावान तुजी सेवा करतलों. लक्ष लावन करतलों. म्हजे बायलेक म्हजे धर्मपत्नीक, म्हजे अर्धांगिनीक जिवदान दी देवा. उपकार कर म्हजेर. इतली भीक घाल म्हाका. प्लीज देवा... प्लीज... (तकली जमनीर आपटून रडटा)

वैनी : (उठ्ठा) हांव खंय आसां ! हे खंय गेले आनी तो तांबडो धुंवर खंय गेलो!... आवो उठात... दोळे उगडात..

दिना : तूं... तूं उठलें? ... जितें जालें?... पावलो, म्हाका देव पावलो. हांवें भक्तीभावान केल्ली प्रार्थना देवान आयकली... देवान म्हजे बायलेक जिती केली. धन्य देवा.. हांव धन्य जालों.

वैनी : हांवें सांगिल्लें मू तुमका, देवापरस व्हडलो कोण ना म्हणून. आतां तरी पटलें मू तुमकां? देव तो देव. मनीस तो मनीस आनी जनावर तें जनावर.

दिना : जनावर जरी जालें तरी तो लेगीत एक प्राणी. ताच्यांत प्राण आसता. देवाचो अंश आसता. ताका दुखोवप म्हळ्यार देवाक दुखोवप. ताची पुजा जरी केलीना तरी ताका उणे लेखचें न्हय.

वैनी : हय सायबा.

( पयलो अंक सोंपता.)

# दुसरो अंक

(मधूलें घर. दिनाल्या घराक तेंकुनूच आसा तें. दिनाल्या परस हागेलें घर मात्शें ल्हान आनी म्हेळकें. एक दोन सोऱ्याच्यो रित्यो बाटल्यो कुरकुटांत, कोनशाक आसू येता. मधूली घरकान्न रमा, मधूची न्हिदपाची वेवस्था करता. तिचो पूत सनी तिका पालोव दिता.)

रमा : (एका साकाट्याचेर चादर घालीत) धर रे सनी- चादरीक धर तेवटेन.

सनी : (दुसरेवटेन धरून चादर पाताळायतात) मम्मी, पापाचें हातरूण सकल कित्याक घालता गे? वयर कित्याक घालीना?

रमा : तूं सदांच पळयता मरे, पापा कितें करता तें.

सनी : जाणा गे हांव. तो सदांच सकयल न्हिदता. वयर खाटीर कित्याक न्हिदना गे?

रमा : आतां येतलो पापा. तेकाच इचार... हें उशें थंय दवर.

सनी : (उशें दवरीत) तूं तेचें हातरूण सकयलूच घालता म्हणून तो वयर न्हिदना.

रमा : वयर न्हिदल्यार लेगीत तो सकयलूच पडटा न्हू रे! तूं उबारून घालशी मरे तेका वयर?

सनी : आवयस! पापा कितलो जड ! म्हाजेकडें उबारूंक जाता?

रमा : पिल्या उपरांत सकल न्हिदलो कितें आनी वयर न्हिदलो कितें! तेंच्याखातीर सर्गांत नरक आनी नरकांत सर्ग..... तें गुळम घेवन यो.

सनी : खंय आसा तें गुळम?

रमा : तें पळय तुका पळयता.

सनी : (गुळम घेवन येता) गुळम कित्याक गे मम्मी?

रमा : कपलार घालूंक म्हाज्या!

सनी : सांग गे मम्मी.

रमा : तुजो पापा पिवन ओंकलो जाल्यार भरतलो कोण? गुळमांत

ओकुंदी. (ग्लास हाडून दवरता)

सनी : आनी त्यो पोंवल्यो कित्याक हाडल्यात गे मम्मी?

रमा : फाटीक बांदपाक.

तनी : एक तुज्या आनी एक म्हज्या फाटीक मगे?

रमा : तुज्या कित्याक? तुका मारता तो?

सनी : सदां पोवल्यो बांदिना मगे तू.

रमा : आयज फाट चडूच दुखता रे म्हजी. घाये जाल्यात फाटीक. दोतोराक आपयल्लो तोय येयलोना सो. पापा तुजो मारताना फाटफुडो पळयना. काबळो धोडायल्यावरी धोडायता.

सनी : मम्मी- हांव वखद लावं?

रमा : दोतोर घेवन येतलो रे वखद.

सनी : हांव सायन्टीस जावंक आनी इंजेक्शनां सोदून काडटलों, सोरो बंद जावपाचीं. मागीर कोणाचोच पापा मम्मींक मारचोना.

रमा : अंदू पास जातलो मरे तूं?

सनी : हय मम्मी. अंदू हांव गॅरेन्टीन पास.

रमा : अभ्यास चड करता दिसता.

सनी : ना मम्मी, आमचे शाळेंत तीन वर्सांवियर एका वर्गांत दवरिना खंय... पूण मम्मी, तेका कळटलें मगे फाटीक पोवली बांदल्या म्हणून.

रमा : कळटा तेन्ना पळोवचें रे. म्हाज्यान सोसूंक जायना.

सनी : आ! मारपाची बडी हाडून दवल्लीच ना.

रमा : चल, घेवन यो.
(सनी बडी हाडटा आनी बसकेमुखार दवरता)

सनी : मम्मी-सोरो ग्लासांतूच कित्याक पितात गे?

रमा : हांव नकळ. सोपनांत तुजे प्रस्न. आतां मात्शें तोंड बंद कर आनीं पापा खंय पावलो तें पळय. तोमेरेन हांव फाटीक पोवली बांदतां.
(पोवली बांदता आनी वयल्यान पदर घेता. सनी भायर वचून येता)

सनी : मम्मी- पापा येता गे. हालत धोलत येता. पडटा काय दिसता पूण पडना. मम्मी, सोरो पितकच पापा धोलता कित्याक गे? धोलतना बरें दिसतलें न्हय?

रमा : हांव नकळ.

सनी : हांव पिवन पळयतलों.

रमा : सोंड फोटल्लें. चल न्हीद वचून.

सनी : हांव हांगाच रावतलों. म्हाका पळोवंक जायें.

रमा : सदांच कितें पळयता- तेंच तेंच नाटक? (मधू बडबडत येता)

मधू : कोणाच्या बापायचें पिना हांव. म्हाज्या दुडवांचें पितां. दुडू दितां सोरो पितां.... कापस्ताद म्हजी. हांव सादो मधू न्हू. बेबदो मधू. पदवी म्हजी ती. तुमकां कसली पदवी आसा?... कांय ना. फूस्स....! आगो रमादेवी, तूं हांगा रस्त्यार कशें पावलें गो? म्हाका व्हरोंक येयलां? पिलों तरी घर विसरना हांव. चल घरा.

रमा : तुमी घरांतूच आसात.

सनी : पापा, तूं घरांत पावलो.

मधू : आरे- हय मरे. फूस्स! (हांसता) पूण हांव वयतालो मिटिंगेक. हांगा कसो पावलो (हांसता) पुता सनी, (गळ्यांतलो मोबायल काडून दिता) मात्सो त्या रवीचो नंबर लाय पळोवया. (सनी नंबत लावन दिता) हॅलो... हांव रे. म्हाका वळखना? आब्बा! मधूक वळखना असो गांवांत- आं.... आतां वळखलो मरे? हें पळय, मिटिंगेचो उगडास आसा मरे तुका?.... खंयंची मिटींग म्हणचें? आरे आयज आमची मिटींग दवरल्या न्हू रे तुज्या बार्रार?... सोंपली? मिटींग आपयल्या णवांक. इतले बेगीन कशी सोंपली? ... कितें ? बारा जालीं... (सनीक) कितलीं वरां जालीं रे सनी?

सनी : बारा जावन पांच मिनटां जालीं पापा.

मधू : अशें...! (मोबायल बंद करता.)

सनी : कसली मिटींग रे पापा?

मधू : आमी एक स्पर्धा दवरल्या. सर्त- सर्त.

सनी : पियेवन धांवपाची रे पापा?

मधू : न्हय रे. पियेवन उबो रावपाची. एका पांयार. चड पिवन एका पांयार जो चड वगत उबो रावता, तेच्या माथ्यार मुकूट घालतले.

सनी : मुकूट कसलो रे पापा? बाटल्यांचो?

मधू : आरे बाटल्यांच्या गुड्ड्यांचो मुकूट केला. जिखतल्याक पयली सोऱ्यान न्हाणयतले. मागीर मुकूट घालून कींग ऑफ सोरो म्हूण गांवभर मिरवणूक काडटले. तूं येता?- नाका, तूं नाका थंय.... फाल्यां आमची येसाय आसा. ती पळोवपाक येता जाल्यार यो.

सनी : येसाय कसली रे पापा? पिवपाची?

मधू : एका पांयार उबे रावपाची.

सनी : पापा, तुजें हातूण घालून दवल्लां.

मधू : वा- शाब्बास आतां व्हडलो जालो रे तूं. आतां तूं सगळें करतलो. म्हाजें हातरूण घालतलो, म्हाका सोरो हाडून दितलो. हय मरे?

सनी : तुयें पयशे दिल्यार हाडटलों. हांव म्हाज्या पयशांचो हाडचोना.

मधू : शी-शी तुज्या दुडवांचो सोरो नाकाच म्हाका. तुका दुडू दिल्यात ते सोऱ्याक न्हू. ते फकत शिकपाक. फकत मेजार बसोन शिकपाक आनी सायन्टीस जावपाक.

सनी : पापा, हांव सायन्टीस जावन सोऱ्याचेर वखद सोदून काडटलों.

मधू : सोरोच वखद मरे पिशा. आरे म्हाज्या सनी, वखदाचेर म्हुणोन वखद काडू येता! फूस्स! मनशाच्या सग्गळ्या दुखण्याचेर एकूच वखद आसा तें म्हणचें सोरो.

सनी : तशें जाल्यार मम्मीक दोतोर कित्याक जावो? तिका सोरोच दी मरे पिवपाक.

मधू : पी म्हटल्यार पिना मरे ती. सोरो घेतलेलो जाल्यार तेका कसलीच पिडा मारची नासली.

सनी : मम्मीच्या फाटीक घाये जाल्यात मरे पापा.

मधू : सोरो लाय सोरो.

सनी : पापा, हांवूय व्हडलो जातकच सोरो पितलों. तुज्यापरस चड पितलों आनी सगळ्यांक मारतलों.

मधू : शाब्बास !

रमा : शाबास कितें?

मधू : ये... शाबास न्हू. बांदून घालून मारतलों. म्हाका म्हाज्या बापायन माल्लेलो तसो.

रमा : आतां मारपाचो प्रोग्राम करतात न्हू सुरु. मागीर रात जातली.

मधू : राव गो मात्शें ! जाणा मुगो रमा, आयज हांव चड खोशी. आयज हांव तुका चड मारपी. कित्याक जाणा? आयजसान बँकानी खंय अर्द्या टक्क्यान ज्यूर वाडयलो. हाफ पर्सेंट (हांसता)

रमा : खरेंच काय कितें? तशें जाल्यार आतां आमकां चड पयशे मेळटले.

सनी : मम्मी, म्हाकाय चड मेळटले.

मधू : हय रे म्हाज्या राजा. तुजेय दुडू वाडटले. इतले आसा ते इतले जातले (हांसता)

सनी : आनी मारूय चड पडटलो न्हू रे पापा?

मधू : शी-शी तुका मारप? तुका केन्ना माल्ला रे हांयें?

सनी : म्हाका न्हू रे पापा - मम्मीक.

मधू : तिचें बरें आसा. तिका मार घातल्याबगर म्हाजो सोरो सकल देंवना आनी तेकाय न्हीद पडना. गाळी, सोरो आनी मार- तीनूय वांगडा आसल्यार मजा येता. नाजाल्यार फूस्स!

रमा : ज्यूर वाडलो तें बरें जालें. म्हाका ते पयशे पावनासले. दिसान दीस वखदां म्हारग जायत आसात.

मधू : आनी म्हाजो सोरो कितें सवाय जाता?

सनी : म्हाजो शाळेचो खर्चूय वाडला पापा.

मधू : सनी, तूं कांयच भिव नाका. सगले दुडू सोपल्यार कामा येता. एका वर्गांत पांच वर्सां काडल्यार कमा येता. पूण सायन्टीरा जाच तूं...

रमा : ही पळयात बडी हाडून दवल्ल्या. (फाट करून रावता)

मधू : पयली म्हाका वाड म्हुणोन सांगलें मुगो तुका. कान फुटले कितें गो तुजे.

(रमा भितर वता आनी रितें ताट हाडून मधू म्हऱ्यांत दवरता. मधू तें ताट शेंवटून मारता)

असल्या - असल्या ताटांत हांव जेवं? फूस्स!

रमा : कितें जालां तर ताटाक? काय बरें धुवन हाडलां -

मधू : हांये असल्या ताटांत जेवपाचें गो? हांव केदो मनीस गो ! म्हाजेकडें दुडू आसा तो आमच्या वाड्यार कोणाचकडें आसूंक पडला! लाखांनी रुपया बॅंकेत दवल्लेलो मनीस हांव. हजरांनी ज्यूर घेतां मगो हांव. तू नकळ? येद्या व्हडल्या मनशाक तूं असल्या ताटांत वाडटा म्हणचें कितें? भांगराच्या ताटांत जेवपाची तांक आसा म्हाका. रमादेवी.... चल, भांगराचें ताट आनी चांदीचो पेलो घेवन यो. हाडिना? खंय आसा ती बडी... फाट कर.

(रमा फाट करता. मधू बडयांचो मार रमाचे फाटीर मारता. तें मोन्यानी मार घेता.)

मधू : पोवल्यो बांदल्या कितें गो फाटीक? (हांसता) बरें केले. आवाज बरो येता पोवल्यांचो. घुमचे कटर घूम. पूण तुज्या रडपाचो आवाज येयना मुगो. हुयेली मारूंक जायो हुयेली. आनी सनी, तूंय आड्डय रे मोठ्यामोठ्यान.

(मधू परतून मारूंक लागता. रमा हुयेली मारता. सनी व्हडाव्हडान आड्डी मारता. मारपाचें थारोवन मधू बोल्सांतलें पिस्तोल काडटा.)

मधू : तूं अशें आयकुपाचें ना. तुका जितेंच मारून उडयतां. जितेंच.

(सनी आनी रमा खऱ्यानीच किळची मारतात. मधू फार करता आनी हांसता)

मधू : हा...हा... फूस्स! कोण मेलें? ... कोण मेलेंना. तूं मेलेंना आनी तूंय मेलोना. कित्याक जाणा? हें फेस्तूल फटीचें. बेश्टो आवाज करता. दुसऱ्यांक भिवयता पूण गुळी सोडीना. कोणाक मारीना. आगो हें खेळण्यांतलें फेस्तूल. हा.. हा.. हा. तूं भियेलो रे सनी?

पळय-पळय... आरे म्हाज्या सनी, म्हाज्या शाणुल्या, हें हायें तुज्याखातीर हाडलां मरे खेळपाक. ठो- ठो करून मारपाक. तुका कोणे चाळयल्यार असो लिपून रावप आनी ठो करून मारप. आनी रमा हो तुका विस्तीद - घे (रमाक दिता)

रमा : (उसोवन पळल्यार इल्लोसो) आंवंय ! हो विस्तीद हांव घालूं? लजशी!

मधू : आतां बायलां हेज्यापरस मोटवे घालतात. घाल तूं. हो घालून त्या दोतोरा म्हऱ्यान मात वचू नाका. चल.... आनी सनी, हें फेस्तूल कशें चलोवपाचें कळ्ळें मरे तुका? आतां हांव तुका मारतां, तूं पड. (मधू मारता. आवाज जाता. सनी पडटा. दोतोर येता)

दोतोर : मोदू.... ओ मोदू... आरे मोदू...

मधू : ओव

दोतोर : कित जालें रे? केसो आवाज जालो? कोणाक माल्लो? आरे मोदू, फार कोणे माल्लो रे? कितें? तुज्या हातीन पिस्तोलू? तूं तेरारीस्त जालो कित रे?

मधू : कोण जालो?

दोतोर : तेरारीस. ठो ठो करून मुनशांक मात्ताय तो. सानी खुंय हा...? आरे तुगे चेडो सानी खुंय हा रे...?

मधू : हो पळय पडला थंय.

दोतोर : आवोयस! तुयें तुगे चेड्याक मान्न उडोयलो कितरे?

मधू : हय. ह्या पिस्तुलान मनीस रोकडोच मरता. तुका मारूं?

दोतोर : (भियेता) नाका...नाका... माका मान्नाका.... आरे हांव बेश्टो येयलो हींगा... वोयतां... वोयतां. (मधू ताचेर फार करता आनी हांसता) आवोयस ! मात जाल्यार मोरपाचो मुरे हांव... आरे सानी... मुज्या आपुर्बाये सानी... मेलो मुरे तूं? कांय नेजो. हांव, येदो व्होडलो दोतोर आसतोना भिवपाची गोरोज ना. हांव तुका इंजेक्शन मारिनासतोना जादू कोरून जितो कोत्तां... आन्तर मान्तर मॅजीक मान्तर... गिली गिली गिली गिली...छू मान्तर.

(सनी हालना) आरे...! मुगे जादू फेल जालो. आतां इंजेक्शन मारचेंच पोडलें. (सनी एका दोळ्यान पळयता) आरे ! इंजेक्शन आहा पूण सूय ना. आतां कितें कोच्चें! हां... आतां दुसरो जादू कोत्तां... फोरेनाचो... आन्तोर... मान्तोर...फॉरेन मान्तोर... आफ्रिका मान्तोर, आमेरिका मान्तोर, जापान... चायना...कुवेत मान्तोर...इराक, बगदाद, दुबाय मान्तोर... गिली..गिली..गिली..गिली छू मान्तोर...(सनीक खातकुल्यो करता. सनी हांसता...मधू हांसता... दोतोर हांसता. सनी पिस्तोल घेवन भितर धांवता)

दोतोर : बोरोच हुशार जातेलो आं तुगे चेडो... रामा खुंय हा रे मोदू...?

मधू : रामा...रामा कित्याक तुका? रमा ... भायर बी येवशी. तो विस्तीद घालून भायर येवनाका. येवपाचेंच जाल्यार विस्तीद काडून यो.

दोतोर : मोदू... कितें म्हुणटायरे तू? तिका विस्तीद काडून...

मधू : आरे काडून म्हणचें... साडी न्हेसून.

दोतोर : हां. ओशें ओशें...तुगे बायल विस्तीद घालीता?

मधू : कित्याक? तुजे बायलेचो विस्तीद शेणला?

दोतोर : च्ये..च्ये ! ती विस्तीद केन्ना काडीचना. शेणटेलो केसो?

मधू : काडिना काय घालीना रे?

दोतोर : ती दुबोय कितें कोत्ता तें हांव नोको.

मधू : फूस्स!

दोतोर : तुगे बायलेक मात्शी भायर आपोय रे. रामा... ओ रामा...

मधू : म्हाजी बायल कित्याक रे तुका?

दोतोर : तियेन म्हाका तोपासपाक आपोयलेलो. पेशन्ट चोड आहले देखून केदोव येयलोना.

मधू : तिणे तुका आपयलेलो? दोतोर-दोतोर तुमचें हें कितें चल्लां? हांव ना तेन्ना ती तुका आपयता आनी तूं येता.

दोतोर : मुगे कामूच तें.

मधू : कसलें काम रे तुजें?

दोतोर : आरे आरे मोदू. तेसो कांय ना रे सायबा. हांव फोकोत तिगे फाटीक वोखोद लायतां आनी वोयता. केन्ना केन्नाय आपोयता ती म्हाका.

मधू : तू केन्नाकेन्नाय येता? म्हणचें परतून परतून येता? रमा... ये रमा...

दोतोर : तूं सोमजोता तेशें कांयच ना रे सायबा. तूं तिची फाट फोडटाय आनी न्हिदताय. फाटीक कितें जालां तें तुयें चोयलां?

मधू : आयज तिचे फाटीक कांयच जावंक ना. आयज तुज्या वखदाची गरज ना. आनी केन्नाच गरज पडचीना. आतां हाव फकत पोंवली धाडायतलों. फूस्स!

दोतोर : आरे मोदू.. तिका फोकोत फाटीकूच जावंक ना.

मधू : आनी खंय जालां? आनी खंय कितें जालां?

दोतोर : आरे तिगे सोगलें आंग गोरोम जाता. हात लायता थिंगा हून-हून लागोता. तुयें मारून मारून तिगे काळीज हालोयलां. पोटांतल्यो झोवयो हालोयल्या. पोती देखून हालोयल्या. तिगे हड्डें सोगलेंच फोडफोडटा मुरे. तूं पियोपियोन न्हिदताय कितें रे? तिका चोयना?

मधू : रमा... पयली भायर यो.

दोतोर : आरे मोदू, तिका आनीक जायतीं दुयेसां आहाय रे. ब्लडप्रेशर, डायबिटीस, ॲसिडिटी. टायमा टायमार वोखदां पोडोना जाल्यार कितेंय जावं येता.

मधू : हजरांनी दुडू वखदांक मोडटां आनी हजारांनी सोऱ्याक मोडटां. आरे दोतोर हांव ओर्रांद. मधू हांव. मधू!

दोतोर : तुगे लिवर खुंय पावोलां तें जाणाय मुरे तू?

मधू : जाणा रे हांव. म्हाजें लिवर ल्हासून काबार जालां. तुवेंच तपासून सांगलां मरे. पोटांत म्हाज्या कांयच ना म्हणून. फूस्स!

दोतोर : मोदू... हांव तुजो शेजारी आनी फॅमिली डॉक्टर, इश्ट देखून सांगोतां. जोरी तोर तूं सोरो सोडीना जाल्यार बेगीन मोत्तोलोय.

मधू : बरें जालें. मागीर तुजी मजा, दीसरात रमाक तपासीत राव.

आनी मलम लाय. फूस्स! (दिना येता)

दिना : मधू... कितें जाले रे? बायल बरी आसा मरे तुजी?

मधू : हो पळय, दुसरो येयलो. दिना, तुमकां सगळ्यांक म्हाजे बायलेचो हुस्को. म्हाजो हुस्को करिनात मरे तुमी.

दिना : आरे तुजी बायल बरी ना. वयल्यान तूं तिका मारता. तुमगेर किळची आयकूंक आयल्यो. ठो- करून फार जालो. हांव समजलों खून बी जालो म्हणून. आतां वचत थंय जातात न्हय रे. हांवें केन्ना पळोवंक नासलो, म्हणून आयलों धांवून.

मधू : किळची सदच्योच मरे त्यो. तुका आयजूच आयकूंक येयल्यो?

दिना : आयज मात्श्यो चडूच जाल्यो रे. वांगडाच ठो -जालें न्हय रे.

मधू : हांव म्हाज्या घरांत ठो करूं नाजाल्यार फुस्स करूं. तुमकां धांवोन कित्याक येवंक जायें! घर म्हाजें आनी बायलूय म्हाजी. हांव आसतना तुमी अशे दोग-दोग जाण धांवोन येतात. हांव नासतना कितले येतात कोण जाणा!

दिना : तूं नासतना थंड आसता न्हय रे.

मधू : हांव येवंक आनी हून जाता?... आनी राव रे दिना... ठो जाल्ल्याक कितलो वगत जालो. तूं उसरां सो पावलो?

दिना : हांव न्हिदिल्लों रे सायबा. बायलेन म्हाका उठयलो. मधूगेर आवाज सो जालो म्हणूक लागली. आमी शेजारी न्हय रे तुजे.

मधू : हांव म्हणटां तुमकां रातच्या वेळार भितर कित्याक येवंक जाये. दारांतल्यान, जनेलांतल्यान पळोवंक जायना?

दिना : मधू, तूं नासतना हांव तुमगेर केन्नाच येना.

मधू : तुमचो कांयच भरवंसो ना. हांव इतलो दुडू मोडटां तें पळोव नज तुमच्यानी. दोळे फुट्टात तुमचे. फूस्स!

दोतोर : आमी वोयचे मुरे आतां? तिका तोपासून वोखदां मुदार करूंक जायीं आहलीं.

दिना : चल रे दोतोर, या आमी. ताची तकली जाग्यार ना. सकाळी निवळटकच जाग्यार येतलो.

दोतोर : बोरें रे मोदू. गोरोज पोडल्यार म्हाका आपोय. हांव रोकडोच

येतां धांवोन.

मधू : फूस्स! (दिना भायर वता आनी दोतोर भितर वता. दिना परतून येता)

मधू : तूं परतो कित्याक येयलो?

दिना : तो भितर गेलो मरे.

(मधू भितर वचून दोतोराक ओडून हाडटा)

मधू : तूं भितर कसो पावलो?

दोतोर : रामाक चोयतां आनी वोयतां मुरे !

(मधू बडी हातांत घेता. दोतोर आनी दिना भायर धांवतात)

मधू : फूस्स! भितर येशी जाल्यार मार खाशी... मार खाशी... मार खाशी... (मधू जाम जावन हातुणार पडटा थंयच न्हिदता. दोतोर जाग करनासतना येता आनी भितर वता.)

(काळोख)

(उजवाड. सनी अभ्यास करता. दोतोर येता)

दोतोर : आरे सनी... कितें कोत्ताय रे? आवोय ! लिसांव कोत्ताई?

सनी : अभ्यास करतां.

दोतोर : घाराको बोसोन आब्यास कोत्ताई. ट्युशनाक वोस मुरे.

सनी : ट्युशनाचोच अभ्यास करतां रे हांव दोतोर.

दोतोर : तूं आयज फेवोंक वोसनाय कितरे?

सनी : आयज कोण येना खेळपाक.

दोतोर : फेवपाक येयना? कित्याकू?

सनी : फाल्यां आमची परिक्षा.

दोतोर : आं... देखून मिस्ता आयज आब्यास कोत्ताय.

सनी : वाचल्यार कांयच समजना. पाठ केल्यार पाठ जायना. अभ्यास करपाक वाज येता म्हाका. दोतोर... अभ्यासाचीं वखदां मेळनात?

दोतोर : आब्यासाचीं वोखदां? कित कोन्नू?

सनी : गणिताची गुळी घेतली की गणितां येवंक जायी. हिस्ट्रीची गुळी

घेतली की हिस्ट्री येवंक जायी.

दोतोर : आवोय ! तुगे तेकली बोरीच फांस धांवोता मरे ! तूं सायन्टीस जातो मुरे? तूं सोदून काड तेसल्यो गुवयो.

सनी : हांव गुळयो काडचोना. हांव इंजेक्शनां काडटलों. मेत्साचें इंजेक्शन मारपाचें, मेत्साच्या पेपराक बसपाचें, ज्योग्राफीचें इंजेक्शन मारपाचें, ज्योग्राफीचो पेपर बरोवपाचो. अशीं सगळ्या विशयाचीं इंजेक्शनां काडटलों हांव

दोतोर : आरे एके क्लासींत तीन तीन वोर्सां काडलीं जाल्यार तूं सायन्टीस केसो जातेलो?

सनी : कोण जातलों तर हांव?

दोतोर : म्हातारो जातेलो म्हातारो.

सनी : व्हडले व्हडले सायन्टीस म्हातारेच आसतात.

दोतोर : वोय सायबा... वोय. तुजेंच खोरें.

सनी : दोतोर ... म्हाका तान लागल्या.

दोतोर : उदोक पिये मुरे... नाजाल्यार पोसऱ्यार वोसोन सोफ्ट ड्रींक पिये. पोयशे आहाय मुरे तुकोडें? नाजाल्यार हांव दितां...घे...

सनी : तुका जाय जाल्यार हांव दितां... घे.

दोतोर : नाका सायबा.

सनी : हांव रोकडो येतां (भायर वता)

दोतोर : सुसेगाद यो.. रामा... ओ रामा.. (रमा येता) किते कोत्ताय गो?

रमा : चणे खातां.

दोतोर : चोणे? खुंयच्याय वोगतार चोणे खाताई?

रमा : तुयें सांगलां त्याच टायमार खातां मरे हांव.

दोतोर : हांयें तुका चोणे खा सांगिलां? केदोणा गो? (मूठ उगती करून दाखयता. मुठींत धायेक पिल्लां आसात) हे चणे तुयें दिवंकना रे म्हाका?

दोतोर : मुजे मांय! हे चोणे! ह्यो टेबलेटी मुगो. गुवयो. वाखदां तीं वोखदां. बाराबोन इतल्यो घेताई? आगो रामा...

रमा : हांव सदांच अशेंच करतां रे. म्हाका तेंची नांवां वाचूंक खंय कळटा! हीं दिसाक तीन फावटीं, हीं जेवच्या आदी, तीं जेवल्या उपरांत, कोण लक्षांत दवरतलो ! हांव सगळींच तीन तीन फावटी घेता.

दोतोर : येशेच कुटूकुटू कोन्न खाताय गो चोणें कशे? आनी वोयल्यान उदोक पिनाय?

रमा : तुयें दिलां तें सेरप पितां न्हय रे बाटलेंतलें.

दोतोर : आवोय! मुजे मांय! रामा... तुका कांय जायना गो? उदोक पियोंक जायें... वोयल्यान कोवसोभर उदोक पिये.

रमा : आनी दोतोर, ती इस्पीशाल पिल्लां दिल्यांत तीं केन्ना घेवपाचीं रे?

दोतोर : तीं भांगरा कोरा आहाय तीं मुगो?

रमा : हय.

दोतोर : तीं मुगो रामा... मुगे उगडास येयलो म्हुणटोच घेवपाचीं आनी म्हाका उलो मारपाचो.... मागीर हांव तेसलेंच एक टेब्लेट गिवतां आनी धांवोन येतां.

रमा : तुजो उगडास येतकच घेवपाचें? हांव तींय बी दिसाक तीन घेतां.

दोतोर : तीन-तीन घेताई? आनी कोणाक उलो मात्ताय?

रमा : तुकांच उलो मारतां रे हांव. पूण तेंचो बुकलो धांवून येता.

दोतोर : आनी कितें कोत्ता?

रमा : नुस्तें खाता.

दोतोर : घारांतलीं कामां बा सारकीं जाताय मुगो? काय घुंवताय गो, मोदूबाशेन?

रमा : सगळीं कामां सारकीं करतां रे हांव.

दोतोर : आतां केसो काम कोत्तालें गो तूं?

रमा : रांदतालें.

दोतोर : रांदताई ! म्हाका भूक लागोल्या. मोदू बार्रार गेलो तें हाग्रें चोयलें. तेग जाण पेशन्ट आहले. तेंकां सांडून हिंगा येयलों. तुगे जेवपाक.

रमा : सदां उपाशी आसता तर तूं?

दोतोर : मुगे घोरकान्न भायर आहा नो. देखून तुगे जेवपा येयलां... रामा... पोयलीं तुगे फाटीक तेल लायतां.

रमा : फाटीचें पेखलें न्हू रे म्हाज्या.

दोतोर : सारकेंच सांग गो म्हाका रामा. आनीक खुंय कितें जालां बा जाल्यार हांव वोखोद लायतां. लुवान लायतां... दुखोय नासतोना. हांव दोतोर. हांव तुका कुरार कोत्तां.

रमा : कुरार करता?

दोतोर : वोखोद लायतां गो. मालीश जाल्यार मालीश कोत्ता. हांये मालीश कोरपाचें तेल देखून हाडलां. हें चोय. (बाटली दाखयता)

रमा : आरे दोतोर. तें तेल म्हजेकडेन दी. हांव हेंचेकडसून मालीश करून घेतां. ते करतले म्हाका मालीश.

दोतोर : ते? ते कोणू? कितू लोकू? तेका एकटोच पुरो.

रमा : आरे दोतोर, ते म्हणचे म्हाजो घोव. एकटोच.

दोतोर : (हांसता) मोदू गो ! तेकोडे कितें जाता? तेचे पांये तेकोडें उबारूंक जायना. तो मालीश कितें कोत्तोलो? जाणाय मुगो रामा... म्हाका तुगे काकूत दिसोता.

रमा : कित्याक रे?

दोतोर : तूं इतू बोरें, सुंदोर, त्या मदुगे मार कित्याक खाताय?

रमा : आनी कितें करूं?

दोतोर : जायत्यो आयडिया आहाय.

रमा : सांग मरे.

दोतोर : सांगोतां... भितोर सांगोतां.

रमा : आनी कोणूय येयलो जाल्यार?

दोतोर : कोण येयना गो. मोदू थिंगा बोसला. तो येदों उठोता? तुगे पूत गेला पोसऱ्यार (रमा भितर वता, फाटोफाट दोतोर वता. थोड्या वेळान भायल्यान सनी सोरो पिवन येता)

सनी : कितलोय पिलो तरी घर विसरचोंना... अक्क्या वाड्यार म्हाज्या इतलो दुडू कोणाचकडे ना... हांव सादो सनी न्हू... हांव कोणाचें

फुकट पिना... म्हाज्याच दुडवांचें पितां...दुडू दितां सोरो पितां... कापास्ताद म्हाजी... सोरो पिवपाक म्हाका कोणूच लागना... फूस्स... म्हाज्या बापायपरस व्हडलो पिवपी जातलों हांव... फूस्स.. मधूपरस व्हडलो... मधूपरस... आगो रमा... म्हाका वाड... भांगराच्या ताटांत.. भांगराच्या... (जाम जावन पडटा. मधू लकत येता)

मधू : (सनीक पळोवन) सनी...आरे सनी... (ताका हालयता) न्हिदलो दिसता हो.

सनी : ये...फुस्स ! हांव न्हिदूंकना. जागोच आसां. तुका सांगता, म्हज्या इतलो पिवपी ह्या वाड्यार कोण ना. हांव व्हडलो पिवपी जातलों. तुज्यापरस व्हडलो.

(मधू ताचेर थापट मारता. तो सकयल पडटा.)

मधू : हें रमा खंय गेलें... (रमाक उलो मारीत भितर वता. काळोख.)

( उजवाड. रमा शूत शूत करून कोणाक तरी आपयता. कांय वेळान वैनी येता.)

वैनी : कितें गो रमा. शूत शूत करून आपयलेंशें? कितें जालें?

रमा : वैनी, घरांत कोण ना. म्हाजें एक काम करता मगे?

वैनी : कसलें काम गो रमा?

रमा : म्हाका एक पत्र वाचून दाखयता मगे?

वैनी : कोणाचें पत्र गो? आनी पत्र वाचपाक इतलें कित्याक भिवंक जाय !

रमा : कोणाक सांगना मगे तूं? पत्रांत कितें बरयलां तें फकत म्हाकांच वाचून दाखय. आनी कोण्णाक कांयच सांगू नाका. हेंकां तर एक उतर लेगीत कळूंक जायना. कळ्ळ्यार म्हाका उबेंच चिरून मिरसांग घालतले.

वैनी : हां गो. भिव नाका तू. हांव कोण्णाक कांयच सांगना. ह्या कानाची खबर त्या कानाक कळपाक ना... पूण पत्र कोणाचें गो?

रमा : दोतोराचें! दोतोरान मगे म्हाका पत्र बरयलां. म्हाका वाचूंक येयना न्हय गे. म्हटलें तूंच म्हाजें गुपीत धांपून दवरतली.

वैनी : दोतोरान तुका पत्र बरयलें? सांबाळून गो रमा. फकणां करतां करतां तो खऱ्यानीच भानगड करीत. पूण वाचूंक येना जाल्यार तुका तें दोतोराचें म्हूण कशें कळ्ळें गो?

रमा : वयर पत्तो बरयल्लो आसा न्हू गे. सनीन वाचून दाखयलो.

वैनी : खंय दवल्लां गो तें पत्र?

रमा : (लिपोवन दवरिल्लें पत्र काडून दिता) हें पळय. बरें रंगीत आसा. आतांच पोसमेन दिवन गेलो. पूण हांव इतलें लागी आसतना पोस्टान कित्याक उडोवंक जायें आसलें न्हू गे. तेणेच येवन म्हाका दिव येतालें न्हू गे वैनी. तरी बरें हेंच्या हातीक लागलेंना. आमचो सगळो प्रोग्राम कळटलो आसलो.

वैनी : आगो रमा... हो पत्तो दोतोराचो मगो. हें पत्र दोतोराक आयलां. तुका न्हय.

रमा : दोतोराक येयलां ! पूण... म्हाज्या हातीन कित्याक दिलें तर तेणे?

वैनी : आगो ताणे तें चुकून तुमगेर दिलां. जाता तशें जायते फावटी. आमचीं पत्रां दोतोराक दिता तो.

रमा : पूण सनी सांगतालो...

वैनी : सनीचें कितें आयकता तूं?... हें पळय..टू डॉक्टर...

रमा : हांव डॉक्टर कशें गे वैनी? (वैनीच्या हातांतलें पत्र घेता.)

वैनी : आगो, टू डॉक्टर म्हणचें... दोतोराक. डायनाचें आसतलें. तेचे बायलेचें. तें असल्याच कवरान धाडटा.

रमा : अशें... हांव समजलें... पूण वैनी, सारकें मगे?

वैनी : हय गो. शंबर टक्के.

(दोतोर येता)

दोतोर : आगे हुनये, दिना खुंय गेला? कितू उले माह्ले!

वैनी : न्हिदल्यात ते.

दोतोर : निह्ला? दारां जोनेला बोंद कोन्नू? उटोय. वेग्यां उठोय. हो न्हिदपा

टायमू? (वैनी वता)

रामा... ओ रामा... आवोय ! रागार कित गो?

रमा : तुयें म्हाका पत्र धाडलेलें मरे?

दोतोर : पोत्रे! पोत्रे कित्याक गो तुका? पावसाक वागोत आहा.

रमा : पत्र रे. चीट बरयल्ली तुयें म्हाका?

दोतोर : चिटू ! लाव-लेटेर मुगो? बोरोवंक सोदतालों. कितें बोरोवचें तेंच गोमोना. मागीर हांये चिंतलें, कितें सांगपा आहा तें कानातूंच सांगतोलों.

रमा : ही चीट तुजी न्हू रे?

दोतोर : चोया. वोय गो वोय ! मुगे डायना चीट. तुको कोणे दिली गो?

रमा : पोसमेनान. हें तुजें नांव मरे?

दोतोर : वोय गो. मुगे घोरकान्नीन धाडिल्या. तो पोसमेन येशेंच कोत्ता. कोणा चिटी कोणाकूय दिता. (दिना आनी वैनी येतात)

दिना : दोतोर, कितें जालें? म्हाका उठयलो कित्याक?

दोतोर : आरे तो पोसमेन तेकलेन सुटोला कित रे?

दिना : कितें जालें पोसमेनाचें?

दोतोर : केसो सिरवीस कोत्ताय रे तो? मुगे चीट रामाको दिल्या आनी तुगे चीट मुको दिल्या.

दिना : आनी मधूची चीट हाडून म्हाका दिल्या. ही पळय.

दोतोर : आवोय! मोदूक चीट येयल्या ! चोवया. गोवेरमेन्टा चीट मुरे ही. आनीक दुडू येयले कित रे तेका?

दिना : जायत. तसल्यांकूच येवपाचे ते.

वैनी : दोतोर, तुका येनात रे तुज्या डायनाचे पयशे?

दोतोर : वोय. पोयशेच येताय. हुनये, मुनीस काजार कोत्ता तो दुडू खावपाकू?... रामा, आतां तुज्यान म्हारोग वोखदां घेवं येताय.

वैनी : जल्मभर रमान वखदांच घेवचीं अशी तुजी वान्सा?

दोतोर : तें रामा आनी मुगे भितोर. हांव दितां तीं वोखदां रामा तोंड धांपून खाता ! वोय मुगो रामा...

रमा : तोंड धांपून न्हू रे. दोळे धांपून खातां.

दिना : दोतोर... तुका दिनाची चीट आयल्या न्हय.

दोतोर : कोणाची मुळें?

दिना : दिनाची.

दोतोर : कितें मुणटाय रे? तूंच दिना.

दिना : हांव न्हय. तुजें दिना. तुजी घरकान्न.

दोतोर : मुगे घोरकान्नी नांव दिना न्होय. डायना-डायना. तूं इसोल्लो किते रे?

दिना : हांव विसरूंकना रे दोतोर. रमाक तूं रामा म्हणटा. डायनाक आमी दिना कित्याक म्हणचें न्हय? (सगळीं हांसतात) सारकें रमा म्हण मरे, रमा.

दोतोर : वोय-वोय. आयजथान हांव रामाक रामा म्हुणटोलों.

वैनी : दोतोर, रामा न्हय... रमा.

दोतोर : रोमा.

वैनी : रोमा न्हय रे सायबा... रमा.

दोतोर : रॅमा...

रमा : आसूं गे वैनी. म्हणूनी तेका जायें तें. तो म्हणटा तें बरें दिसता म्हाका.

वैनी : बरें आसा. आमीय जाय तें म्हणटलीं. दोतोर, तुज्या दिनाची चीट केन्ना वाचतलो?

दोतोर : आतांच आचितां. तुमच्या उजीर. तेतूंत तेसलें कांयच बोरोयना तें. कितें बोरोयलां तें हांव जाणो.

दिना : वाचच्या आदींच कळ्ळें तुका कितें बरयलां तें?

दोतोर : वोय रे सायबा. दोर मुयन्याक तें एकूच चीट बोरोयता. आजून आजून देकोर जालां. हांव दोये धांपून आजतां.

वैनी : म्हणचें एकूच चीट कॉपी करून करून धाडटा?

दोतोर : कॉपी को न्ना ! झेरोक्स मान्न दोवल्याय तेणे. डेट मुदार कोत्ता, सिगनेचेर मात्ता आनी पोस्टांत उडोयता.

दिना : पळयनासतना वाचून दाखय. पळोवया तरी कसो वाचता तो.

दोतोर : (चीट फोडटा) ना रे बाबा... ही तेणे नेयी चीट बोरोयल्या.

आजून पोयतां.... आरे!... आयट खोबोर...! मुगे डायना येता.

वैनी : बरें जालें बाये ! केन्ना येता खंय?

दोतोर : ह्याच सुमानाक. आयताराक पावोता. तेच्या आदीं मुगे काम कोच्चें पोंडलें.

दिना : ह्या आयतारा? बरें जालें. आमी सगळीं वचुया विमानतळार. रामाकूय व्हरया. येतलें मगो रामा?

रामा : दोतोर व्हरता जाल्यार हांव येवपी.

दोतोर : हांव वोत्तोलों गो तुका रामा...

रमा : आतां आमचें पत्र वाचता न्हय दोतोर.

दोतोर : मोदू खुंय गेला गो?

दिना : पत्र वाचपाक तुका मधू कित्याक जाय रे?

दोतोर : आरे ही चीट मोदूक येयल्या. तेजी चीट माज्यान फोडूंक जाता?

वैनी : ताची बायल सांगता मरे तुका फोड म्हणून. हय मगो रमा?

रमा : त्या बेबद्याक झक मारूं थंय. वाच तूं.

दोतोर : रामा सांगिता जाल्यार फोडटां. पूण मात्सो राव. पोयली तुगे चीट आज रे दिना. तितल्या मुणसोर मोदू येता जाल्यार पोवया.

वैनी : आमकां पूण कोणाची चीट येतली?

दिना : तें वाचूंक आनी कळटलें. (दिना पत्र फोडून वाचता)... आवयस! एकदम बरी खबर. दोतोर, तुज्यापरस बरी. म्हाका खरेंच दिसना.

वैनी : कसली खबर ? म्हाका सांगात मू. इतले भुल्लुसल्यात कित्याक?

दिना : भुल्लुसपाचीच खबर ही. पेडे वाटपाचे पेडे. आगो हें पत्र आनंदाचें.

वैनी : आमचो आनंद?

दोतोर : कोण आनंद रे? तुगे पुतू?

रमा : आवयस ! आनंदाचें पत्र आयलें? जांव बाये ! खंय तरी आसा तर तो.

दोतोर : तुगे पूत पोवोन गेलोलो मुरे !

दिना : हय. हांगा शिकपाक मेळना म्हणून गेल्लो.

वैनी : खंय आसा म्हजो आनंद ?

दिना : गांवचें नांव बरेंच कठीन आसा. वाचपाक जायना.

झे..को..सला..वा... लिया.

रमा : इतलो पयस पावलो !

दोतोर : तूं जाणाय गो रामा.

रमा : हांव नकळ. नांवावयल्यान म्हाका तें पयस कशें दिसलें.

दिना : थंय शिकून आनंद म्हजो व्हडलो जालो. थंयचे कसले तरी कंपनीचो मॅनेजर जालो.

दोतोर : केसो कोम्पोनी?

दिना : तें नांव ताच्यापरस पांच पटीन व्हडलें आसा. वाचूं?

दोतोर : नाका. नाका. तेंचीं नावांच तेसलीं.

दिना : आतां तो हांगा येता खंय. हांगाच रावतलो खंय, आमच्या म्हऱ्यांत.

वैनी : देवूच पावलो रे म्हाका. देवानूच हाडलो ताका. देवा... तुका सांगून घेतिल्ल्यो सगळ्यो आंगवणी पावयतलें हांव.

रमा : जांव गे वैनी. म्हाका बरें दिसलें.

दोतोर : आतां एकदम बोरें जालें. हुनये... आतां तुमचे आयट दीस सोंपले. माका खूब खुशी जाली. शेजाऱ्याचें बोरें जालें मुणटोच माका येशीच खुशी जाता. दिना, आतां पेडे दिवन जावपाना तें. पाटी दिवची पोडटेली पाटी.

वैनी : आनंदाक येवंदी. मागीर पार्टीच घेवया.

दोतोर : आतां ती गोवेरमेन्टा फोबोर आजया. मोदू काय येयलोना. दिना, घे तूंच आज.

दिना : नाका-नाका. म्हज्या दोळ्यांत दुकां भरल्यांत, उमेदीची. तूंच वाच.

दोतोर : रामा... तुगे परमिशन घेयन चीट फोडितां. नातोर मोदू म्हुगे तेकली फोडीत.

रमा : हां..हां. वाच तूं. तेचो मार खाल्लो तितलो पुरो जालो. आतां हांव तेका वगी रावपी न्हू.

(दोतोर चीट फोडून वाचता आनी सोमतो जमनीर बसता)

रमा : कितें दोतोर... कितें जालें?

वैनी : दोतोराक ॲटेक आयलो दिसता.

दोतोर : ॲटेक येयलोना रे म्हाका. आयट फोबोर. सामकी आयट.

दिना : सरकार पडलो?

दोतोर : सेरकार पोडलो जाल्यार उबो रावतेलो. मोदू पोडलो जाल्यार उबो केसो रावतेलो?

रमा : सोरो निवळूंक आनी आपुणूच उठून उबो रावता तो.

दोतोर : काय बोरो आमगे शेजारी, मोदू... सोरो पितालो, बोरें बोरें नुस्तें खातालो, उदोक कशे दुडू मोडटालो. आतां कितें कोत्तोलो! बाबडो मोदू !

वैनी : (दिनाक) मधूचें कितें बरेंवायट जालेंना मू?

दिना : तें पत्र सरकाराचें, मधू सरकार?

वैनी : तुमी तरी तें पत्र घेवन वाचात पळोवया.

दिना : दोतोर... तें पत्र म्हजेकडेन दी. तूं बस थंयच. (दोतोर पत्र दिना) कितें तें सांग तरी मरे आमकां.

दोतोर : सांगितां.... आरे दिना... तें लेटेर गोवेरमेन्टाचें. मोदूक येयलां.

दिना : कितें म्हणून?

दोतोर : सेरकारान मोदूचो जो दोंगोर इकतो घेयलेलो तो ह्या मोदूचो न्होय. तो दुसऱ्या मोदूचो दोंगोर. बाय मिस्टेक ह्या मोदूक दिलो. आतां मोदू काबार...

दिना : आतां सरकार कितें म्हणटा?

दोतोर : ह्या मोदूक दिलोलो सोगलो दुडू ज्युरासोयत सेरकाराक पोत्तून दिवचो पोडटेलो.

दिना : हें चड जालें मरे सरकाराचें.

वैनी : परतो घेवपाचो जाल्यार दिल्लो कित्याक तर त्या सरकारान?

रमा : हांव म्हाज्या पयशांक हात लावंक दिवपी न्हू. दिवनी तेका खंयचो दिता तो. म्हाका नाका तेजी खबर. जायें तें करूंदी.

दोतोर : मोदू आतां चोड पितोलो आनी सेरकाराक गायी मात्तोलो.

रमा : मारू आनी मरूं थंयच. चल दोतोर आमी आमचें काम करया. ही पळय टॅक्सी येयली (भायर वता)

दोतोर : वोय-वोय ! दिनाबाब, ही मोदूची चीट मोदूको दी. आनी ही चीट (एक उगती चीट बोल्सांतली काडून दिता) हांयें बोरोयल्या. तुका, हुनयेक, मोदूक आनी सोगल्यांक. कोणेय आजल्यार जाता. बाय... बाय...(भायर वता)

वैनी : हें बायें कितें गोडबंगाल ! रमा वचून टॅक्सींतशें बसलें !

दिना : आनी दोतोरूय वचून तेच गाडयेंत बसलो. (गाडी गेल्ल्याचो आवाज) कितें... गाडी गेली.

(मधूचो भायल्यान आवाज. "राव रे ! ये... गाडी थारय. म्हाजे बायलेक घेवन खंय वयता?")

मधू : (येता) खंय गेलीं तीं? तो दोतोर रमाक घेवन खंय गेलो? दिना सांग, खंय गेलो तो? वैनी सांग, म्हाजें रमा खंय गेलें?

दिना : तें ताणे आमकां सांगलेंना. पूण दोतोरान ही चीट दिल्या.

मधू : चीट दिल्या? वाच- बेगीन वाच.

दिना : (पत्र वाचता) हांव... रामाक...घेवन... पोवतां. त्या बेबद्याक बायल सांबावूंक जायना आनी त्या डायनाकू काजार कित्याक जाताय तें खोबोर ना.

हांव रामाक घेयन भायर पावतेलों. तेकोडें काजार जातेलों आनी तेका राणी केशी दोवोत्तोलों (पत्र मधुकडें दिता)

मधू : दोतोर काय फातर रे तो ! म्हाजे बायलेक घेवन पळ्ळो. म्हाका दिसलेलें हें एक दीस म्हाका सोडून आवयगेर वचोन रावतलें म्हुणोन. दोतोरावांगडा पळोन वचत म्हणून धरूंक नासलें हांयें. (चीट पिंजून उडयता) हांव खूब मारतालों रे तेका. मारून मारून फाटीच्यो काती काडल्यो. देखून त्या दोतोराक चान्स पडलो. ह्या सोऱ्याक लागून जालें सगळें. सोऱ्यान म्हाज्या संवसाराची वाट लायली. सोऱ्याक लागून म्हजें रमा म्हाका सोडून गेलें. म्हाजो पूत पिवंक लागलो. संवसाराक फाट करून सोऱ्याक लागी केलो थंयच चुकलें म्हाजें. (रडटा) हांव फटवलों... हांव नागवलों... म्हाका कोण लागी रावना. हांव कोणाक नाका. (बाटलेक) तुका लागून जालें सगळें... तुका लागून. तुका लागी

केलो आनी सगळे पयस गेले. (बाटली शेंवटून भायर मारता. रडत जमनीर बसता. दिना ताका सरकारी पत्र दिवपाक फुडें करता.)

दिना : मधू... तुका एक सरकारी पत्र आयलां.

मधू : कितें म्हणून?

दिना : तो दोंगर तुजो नासलो. तो दुसऱ्या मधूचो खंय. तुका दिल्या तितलेय पयशे परतून व्हरतले खंय.

मधू : व्हरात म्हणचें. फूस्स! आनी म्हाकाय व्हरात म्हणचें. पडलां कोणाक तुज्या दुडवांचे? म्हाका पडलां म्हाज्या रमाचें.

(सोरो पियेल्लो सनी बडी घेवन येता)

सनी : पापा... म्हाजी मम्मी खंय गेली?...खंय गेली रे म्हाजी मम्मी?... सांग पयली. हांव मारपी तुका...(एक बडी मधूचेर मारता) म्हाजी मम्मी खंय गेली... सांग रे... सांगना?... (सांग पयली... सांग पयली म्हणीत मधूचेर बडयो मारता थोड्यो जमनीर आपटतात)

मधू : (रडटा) नाका रे पोरा. मारू नाका म्हाका. चुकलों हांव. सामको चुकलों. आयुश्यभर चुकलों. भांगराचो संवसार करू येतालो म्हाज्यान. त्या सोऱ्यान वाट लायली रे म्हाजी. वाट लायली म्हाज्या पुताची.

दिना : हें कळ्ळें मरे तुका? आतां तरी शाणो जा. सोरो सोड आनी बरो मनीस जा.

मधू : आतां कसो जातलों हांव बरो मनीस? म्हाजी घरकान्न गेली म्हाका सोडून. आतां हाव कोणाखातीर बरो मनीस जावं?

दिना : तुजें रमा तुका सोडून वचूंक नासलें जाल्यार तूं सोडटलो आसलो रे सोरो?

मधू : सामको सोडटलों आसलों. जितलें तेका वायट केलें तितलेंग बरें करतलो आसलों. म्हाजें रमा... कित्याक सोडून गेलें गो म्हाका? (रडटा.)

वैनी : मारचो नासलो मरे ताका?

मधू : ना गे वैनी. केन्नाच ना.

वैनी : आतां रमा परतून आयलें जाल्यार...?

मधू : कशें येतलें? तो घेवन गेलो न्हय गे तेका...

दिना : हांव घेवन येतां. पळय आं... मागीर नेगार वयशी... (उलो मारता) रमा.... (भितरल्यान रमा येता)

मधू : रमा.... म्हाका सोडून वचू नाका गो. हांव वायट खरो पूण आतां बरो जालों हांव. पळय, म्हाजो पूत लेगीत म्हाका लागून कसो हाताभायर गेलो. कर्मकट्टो हांव, कर्मदळडिरो. (फुस्स, फुस्स करून तकली आपटिता)

रमा : पुरो आतां. तकली फोडशी.

वैनी : आगो रमा, पूण तूं गाडयेंत बसून दोतोरावांगडा गेल्लें न्हय गो?

रमा : हय वैनी. फुडल्यान गेलें आनी फाटल्यान येयलें.

मधू : आनी तो दोतोर खंय गेलो? फातोर मारून फोडटां तेचो तकलो. फूस्स! (रमा आयलां त्याच दारांतल्यान दोतोर येता.)

दोतोर : हांव येयलों. घे. फोड म्हाजो तकलो. तूं बरो जावचो म्हुणोन, तुयें सोरो सोडचो म्हुणोन हायें एक एक्स्पेरीमेन्ट (experimant) केलें. देखून म्हाजो तोकलो फोडटाय मुरे तूं? फोड. घे.

मधू : म्हणचें तुमी पळून वचपाचें नाटक केल्लें? रमा- हो दोतोर तुका घेवन खऱ्यानीच पळूंक नासलो?

रमा : ना. तू सुदारता जाल्यार पळोवया म्हूण एक नाटक केलें आमी.

वैनी : आमी सगळ्यांनी मेळून काडली एक स्टोरी.

दिना : आयडिया म्हजी.

दोतोर : थोडी तेगे- थोडी मुगे.

रमा : म्हाजी फकत ऍक्टींग.

दोतोर : आनी मुगे ऍक्टींग बोरी जालोना?

दिना : स्टोरी सोंपल्या खंय तर अजून? व्हडलो ऍक्टर पडला पळय थंय. मधू, तुज्या मनार सारको परिणाम जावचो म्हूण सनीक

लेगीत एक पार्ट दिलो आमी.

मधू : म्हणचें?

दिना : सनी.. उबो राव... (सनी सारको उबो रावता) सांग तुज्या पापाक तुवें कितें केलें तें.

सनी : पापा, हांव सोरो बी कांयच पियेना. हांवें बेश्टी ॲक्टींग केली. हांवे तुका खऱ्यानी मारूंकना पापा. बेश्टो वयलेवयर मारला. पापा म्हाका माफ कर.

मधू : ना रे पोरा. माफी हावें मागपाची. सोऱ्याचे तानेक लागून केदो व्हडलो अनर्थ केलो रे हांवे. तुमच्या असले बरे शेजारी मेळून माणसुकी म्हाजी. ह्या सोऱ्यान कितल्या लोकांचे संवसार इबाडल्यात. पाड-पडलेलो हो सोरोच नासलो जाल्यार सगळ्यांचें कल्याण जातलें आसलें. ह्या बारवाल्यांक धरून धाडावंक जाये. उजो घालूंक जाय सगळ्या बार्रांक, आपणाले संवसार उबे करपाखातीर दुसऱ्यांचे संवसार पाड घालतात ते. पाड पडूं तांचें निसंतान जांव. सनी म्हाजो शाणो (सनीक लागी करता. मोबायल वाजता.)

मधू : हॅलो... कोण रे? फोंडांत वच तूं. सोरो इकूंक पाव नाका. दुसरो बरोसो धंदो मेळना रे तुमकां? दुसऱ्याचे संवसार इबाडपाचे, लिवरां ल्हासून काबार करपाचे धंदे कित्याक करतात रे तुमी? श्राप लागतले तुमकां आमच्या बायलां भुरग्यांचे. बरें जाव नाका तुमचें. हातपांय वांकडे जावं तुमचे. पिशे जावन रस्त्यार पडू तुमी... हॅलो... हॅलो.. बंद केलो?... मर तूं. (मोबायल बंद करता)

दोतोर : इंग्लेजींत एक म्हुणणी आहा. "बेटर लेट देन नेव्हर." आतां तुजें सोगलें बोरें जातेलें. ... आनी एक भानगोड हांयें केल्या. ती तुमकां आतां सांगोतां. आरे... मोदूक जें लेटेर येयलां, दोंगराचे सोगले. दुडू पोत्तून दिवचे म्हुणोन, तें हांयेंच बोरोयलेलें. खुंय आहा तें लेटेर. दिना, दी दाखोयतां. (दिना दिता) चोय, सेरकारी लेटेरां येशीं आसताय? हेचेर सेरकारी इस्टंप आहा?

कोणा सिगनेचर आहा? (पिंजता)

दिना : म्हणचें? ते सगले दुडू मधुचेच तर.

मधू : म्हाका नाकात ते दुडू. फुस्स! त्या दुडवांक लागून जालें हें सगळें. हांव व्हरून दिवपी ते सरकारक. आनी कश्ट करून संवसार करपी.

वैनी : आवयस! इतलो बरो जालो आमचो मधू ! रमा....तूं बाये खऱ्यानीच भाग्यवान गो.

दिना : पूण दोतोर... आमचो आनंद येता म्हणटा ती चीट तरी खरी मरे?

दोतोर : वोय-वोय. तें सामकें सेंत पुर्सेंत सेर्त. मोदू... आतां जालो मुरे तूं सामको?

मधू : हय सायबा. फुस्स !

दोतोर : आतां तुजें लिवर बा सोगलें जाग्यार पोडटेलें.

सगले : हय सायबा

दोतोर : तूं शेंबोर वोरसां जियेतोलो.

सगले : हय सायबा

मधू : म्हजेवयल्यान तुमी सगल्यांनी शिकप घेवचें. घेतले मरे?

सगले : हय सायबा.

(शर्ट, पॅन्ट, बूट घातिल्लो, गळ्याक टाय आनी हातांत बॅग घेतिल्लो आनंद दारांत उबो आसा. दोतोर ताका पळयता.)

दोतोर : आरे दिना..... पाटल्यान चोय.

दिना : खंय आसा रे पाटलो?

रमा : फाटल्यान पळय म्हणटा तो. कितें आसा रे फाटल्यान? (सगळे फाटल्यान आनंदाक पळयत उरतात)

मधू : कोण रे हो? वळखिचो दिसता.

वैनी : आरे.... हो म्हजो पूत मरे...

दिना : म्हजो आनंद मरे तो...

वैनी : आयलो रे म्हजो आनंद.

दिना : आमचो शेणिल्लो आनंद आमकां मेळ्ळो.

सगळे : आमचो आनंद.

वैनी : हावें सांगूंक नासलें, देव आमचो आनंद आमकां हाडून दितलो म्हूण...?

सगले : हय सायबा.

(सगले एकठांय येतात. आनंदाक वयर उबारतात. खोशेचें गीत गायतात. नाटक सोंपता)



## भरत रघुवीर नायक

- नट, दिग्दर्शक, नाट्यलेखन, कवी
- गोवा कला अकादमी नाट्यसर्तींत २५ वरसांत अभिनय आनी दिग्दर्शनाचीं साबार इन
- 'छप्पन थिगळी येसवंत' ह्या एकपात्री नाट्याचे ८० वयर प्रयोग.
- 'जैत' आनी 'मर्णकटो' ह्या दूरदर्शनचे माळेंत मुखेल भुमिका.
- 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' राजभास चळवळींत सक्रीय वांटो.
- शालेय पाठ्यपुस्तकांनी कविता, काणयो, नाटकुल्यांचो आसपाव.
- 'भारतीय भाषा संस्थान, मैसूर' (C.I.I.L.) हे संस्थेन तयार केल्ल्या 'कोंकणी बालगितां' पुस्तकाच्या वावरांत मोलादीक वांटो तशेंच संस्थेन तयार केल्ल्या 'चित्र- उतरां कोश' पुस्तकाच्या संपादक मंडळाचे वांगडी.

उजवाडाक आयिल्लें साहित्य

| | |
|---|---|
| काव्यसंग्रह | : मना मना, गीतगंध |
| बालगीत संग्रह | : पड रे पावसा पड, शाणुल्या गुणुल्या, एक आसलो.... व्हडलो जातलों हांव |
| भुरग्यांची काणी | : जादवाचो आयणो |
| काणयो | : धवो कावळो |
| नाटकुलीं | : गणपती बाप्पा मोरया |
| एकांकी | : वेंचणूक, चपलाहार, भेरें भेरें टुणटुणें, बॉबी न्हिदता तेन्ना, तिसरे माळयेर बस. काशिपोंदा, बेकार कवी लाखां धनी, नंबर ३६, चामट्याक चिमटो |
| आपउलोवपां संग्रह | : ११ एकपात्री |
| नाटकां | : युगान्त, राम राम भाऊ, शॉक ट्रिटमेंट, एके रातीन.. एके वातीन, हय सायबा |

पुरस्कार

- 'चपलाहार', गोवा कला अकादमी साहित्य पुरस्कार (१९८३)
- 'तिसरे माळयेर बस' कोंकणी भाशा मंडळ साहित्य पुरस्कार (१९८६)
- 'युगान्त' गोवा कला अकादमीचे नाट्यसर्तींत उत्कृष्ट लेखनाचें पयलें इनाम(१९९४)
- 'जादवाचो आयणो' पुस्तकाक N.C.E.R.T. दिल्लीचो राष्ट्रीय पुरस्कार (१९९७)
- कोंकणी रंगमाचयेच्या योगदानाखातीर भौ. प्रभाकर कुडचडकार यादस्तीक पुरस्कार (१९९८)
- 'एक आसलो....' कोंकणी साहित्य केंद्र, कुडचडें - मथा पुरस्कार (२००६)